**Mankale Fultana**
(Essays) by H. Manaoj

प्रकाशक :
**बिम्ब प्रकाशन,**
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय.403 204

**दूरध्वनी** : (0832) 243 8355

**प्रकाशन क्र.** : 162

**अक्षरजुळणी** : बिम्ब प्रकाशन

**छापणावळ** : इम्प्रेशन्स-बेळगांवी.
राधा भावे

**पयली उजवाडावणी** : फेब्रुवारी 2021

**मुखपृश्ठ** : दिलीप बोरकार

मनकळे फुलतना (ललित)
**एच.मनोज**
+91 98224 41417

**मोल** : 200/-

ISBN:978-93-85654-50 - 3

तरनाट्यांक

जिणेचीं तत्वां

याद करून दिवंक!

## एच.मनोज

- रेजिना मुंडी हायस्कुल, चिखली -जेष्ठ पर्यवेक्षक .
- हिंदी, कोंकणी आनी नैतिक विज्ञान विशयाचे फाटलीं ३१ वर्सां अध्यापन.
- अखिल गोंय कोंकणी माध्यमीक शिक्षक संघटनेचो उपाध्यक्ष.
- सर्व शिक्षा अभियानाचो तालुका मळार, प्रशिक्षक म्हूण वावर.
- गोंय राष्ट्रिय माध्यमीक शिक्षा अभियानाच्या मळार प्रशिक्षक म्हूण वावर.
- गोंय माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक शिक्षण मंडळ,गोंय वतीन वेग- वेगळ्या मळाचेर वावर.
- कोंकणी निरंतरी पयणारींत म्हयनाळी कविता सर्तींत कवितांचो आसपाव .
- 'कविता एक, रूप अनेक' आशावादी प्रकाशनाच्या सदरांत कविता विश्लेशण.
- 'मनोभाव' कविता संग्रह उजवाडाक आयला.
- 'बिम्ब' मासिक आनी 'भांगर भूंय' दिसाळ्यांत सातत्यान लेखन.
- चिखली आनी बोगमाळो लायन्स क्लबा वतीन शिक्षणक्षेत्रांतल्या योगदाना खातीर भौमान (२०११.)
- युवा शक्ती सामाजीक संस्था नासिक हांचो राष्ट्रीय समाज प्रबोधन पुरस्कार. (२०१२)
- रोटरी क्लब, वास्को - राष्ट्रीय समाज प्रबोधन पुरस्कार (२०१६, चो आदर्श शिक्षक पुरस्कार.)
- इनर व्हील क्लब, वास्को राष्ट्रीय समाज प्रबोधन पुरस्कार २०१६.

# आदर्श समाज निर्मणेचे उत्फर्के....

आमचें गोंय साक्षरतायेंत दुसऱ्या क्रमांकाचेर आसा अशें म्हणटात! पयलें भोवतेक केरळ आसतलें! पूण हे साक्षरतायेक तसो अर्थ कांय ना. राज्य साक्षर आसचे परस तें शिक्षीत आनी तातूंतय सुशिक्षीत आसप खूब गरजेचें. ताचे वयल्यान त्या राज्याची अस्मिताय थारता. केरळ राज्य साक्षरतायेंत पयलें आसलें तरी तें कितलें शिक्षीत आसा हाचेर चर्चा करपांत अर्थ ना.पूण आमच्या गोंयची आवतिकाय कितें जाल्या आनी तें खंयचे दिकेन वता हें मात आमकां सगळ्यांक खबर आसा आनी देखूनच ते साक्षरतायेक चुट्‌टी लायात अशें म्हणन दिसता!

आज आमच्या गोंयची शिक्षणा मळा वयली, राजकारणाच्या मळावयली, संस्कृतायेच्या मळा वयली आनी हेर कितल्याच मळा वयली पत सामकी रसातळाक पावल्या म्हणपाचें दिसता. आमचें हें भांगराळें सुपुल्लें गोंय जे दिकेन पावलां मारता तें पळयत जाल्यार ह्या गोंयांक सांबाळटलो कोण वाली ना काय देवा! अशें गोंयचो हुसको लागिल्ल्या कांय जाणांक दिसता. तातूंल्याच कांय जाणांक हुसको दिसपा वांगडाच गोंय जाग्यार घालपा पासत आपणें निदान चानयेचो वांटो तरी पेलचो अशें दिसता आनी ते नदरेन तांचो वावर चलता. ह्या असल्या हाताच्या बोटार मेजूं येता अश्या लोकां मदलो एच. मनोज म्हणल्यार मनोज हळर्णकार म्हणपाचें ताचो 'मनकळे फुलतना' हो लेखसंग्रह वाचतना लक्षांत येता.

जेन्ना हांव मनोजाचे हे प्रासंगीक लेख नदरे खाल घालतालों तेन्ना मनोज म्हणल्यार दुसरो तिसरो कोण न्हय तर तीस वर्सां आदलो हांवच अशें म्हाका दिसलें! हांवूय तेन्ना मनोजा वरींच शाळेंत शिकयतालों. नोकरी करपाची जाल्यार शिक्षकाचीच करपाची. एक मिशन म्हूण करपाची. पोटा खातीर खंय

तरी नोकरी जाय. पूण तेच वांगडा ती करतनाच समाजसेवाय घडूंक जाय. आनी ते पासत म्हज्या सारख्या आदर्शवादी तरनाट्यान शिक्षकच जावंक जाय आनी विद्यार्थ्यां मदल्यान म्हजे सारकेच आदर्श विचारांचे नागरीक घडोवन ते समाजांत धाडूंक जाय अशें म्हाका दिशिल्ल्यान हांवें शिक्षकाची नोकरी धरली.

शिक्षक जावनूच म्हजें मिशन पुर्णायेक पावचें ना जाल्यार ताचे वांगडाच वैचारीक परिवर्तन घडोवपाचीय गरज आसा अशें दिशिल्ल्यान गोंयच्या भोवतेक सगळ्याच खबरा पत्रांतल्यान सप्तकांत 'आघात', 'प्रहार', 'जिमलेट' बी माथाळ्या खाल चार चार सदरां सातत्यान बरयतालों. सुमार तीस वर्सां सातत्यान शेकड्यांनी लेख बरयले. तातूंतल्यान कितें जोडलें तर प्रस्थापितांची दुस्मानकाय. गोंय मात जे दिकेन वचपाचें आशिल्लें ते दिकेन वचत रावलें आनी आयचे आवतिकायेक पावलें. पूण एक गजाल खरी, तातूंतल्यान आत्मिक समाधान मात मेळ्ळें. हांव फक्त पोट भरपाक धर्तरेक भार जावन जियेना तर समाजा पासत कितें तरी करतां म्हणपाचें हें समाधान!

आयज मनोज तेंच करता. गोंयांत आयज हजारांनी शिक्षक आसात. फक्त नोकरी म्हूण ते तितलें पुरतेंच शिकयतात आनी पगार घेवन सुखान संवसार करतात! तांकां तशी समाजीक बांधीलकी वा लागणूक म्हणपाचें कितें आसता तें कांयच खबर नासता. पूण जेन्ना तांचे मदलोच मनोजा सारखो एकलो तळमळीन आदर्शवादाची घुडी घेवन मुखार सरता तेन्ना म्हज्या सारख्याकूय पयस खंय तरी उजवाडाचीं किरणां झळकतात.

शिक्षण हें म्हत्वाचें म्हणपाचें आतां समाजांतल्या दरेक घटकाक कळ्ळां. सरकारानूय शिक्षण सक्तीचें केलां. म्हणटकच दरेक भुरगो शिक्षणाच्या नांवान शाळेंत वता आनी फुडाराचो हो नागरीक आयतोच शिक्षकांच्या हाताक लागता. ताका आदर्श नागरीक करप, आदर्श नितीमुल्यां तांचे भितर रुजवणां हाडप हें शिक्षकाचें कर्तव्य आसता. समाज तेच अपेक्षेन शिक्षकां

कडेन पळयता. हे अपेक्षेक कितले शिक्षक जागतात हाचेर चड न उलोवप बरें! पूण तांचे मदले मनोजा सारखे कांय शिक्षक समाजाची अपेक्षा पुराय करूंक धडपडटात तें पळोवन तांचेर उलोवप आनी बरोवप गरजेचें अशें दिसले बगर रावना.

मनोज कवी. ताचो 'मनोभाव' हो काव्यसंग्रह ताची गवाय दिता. तेच वांगडा मनोज 'मन' हे मनशांतले संकल्पनेकूय जपता आनी आपल्या मना वांगडाच तांच्याय मनाचो मान राखून तें मन हळवें दवरपा वांगडाच सशक्त जावंचें ह्या हावेसान वावुरता. देखून ताच्या काव्यसंग्रहाचें नांव 'मनोभाव' आनी आतां ताचो हो लेख संग्रह 'मनकळे फुलतना'.

मनोज एक हाडाचो शिक्षक. पूण तो फकत नोकरी करिना जाल्यार एका आदर्श समाजाचीं सपनां मनांत बाळगून आदर्श नागरीक घडयता. विद्यादान करून भुरग्यांच्या मनाक आकार दितनाच समाजांतल्या हेर घटकांक आपल्या लेखांतल्यान दिका दाखयता. एका आदर्श समाजाच्या हावेसान तांच्या मनांत आपल्या लेखांतल्यान आदर्शवाद जागयता..शिक्षकान फकत दुडवां पासत नोकरी करची न्हय तर आदर्श समाज घडोवपाची जी जापसालकी समाजान दिल्ली आसा तिका मना-काळजांतल्यान पाळो दिवंक जाय म्हणपाचो साक्षात्कार ह्या संग्रहांतल्या ताच्या ह्या सव्वीसूय लेखांतल्यान घडटा...

जेन्ना खंयचोय शिक्षक विद्यादान करता आनी तो जर कवी आसत जाल्यार मागीर त्या विद्यार्थ्यांचें कल्याणूच म्हणपाचें! जगार जितल्यो वैचारीक आनी हेर क्रांत्यो जाल्यात ताचे फाटल्यान कवी आनी तांच्यो कविताच मुखेलपणान आसतात. एच.मनोजान आपलो कविता संग्रह वाचकांक दिवन आपूण कवी म्हणपाचें दाखोवन दिलांच आनी कवी जेन्ना शिक्षक आसता तेन्ना तो आपल्या विद्यार्थ्यांच्या मनांत क्रांतीची कीट पेटयल्या बगर कसो रावत? क्रांतीची कीट तशी दरेक मनशा भितर आसता. तिका फूक मारपाचें काम कोणें तरी करपाचें आसता. तें काम शिक्षकाचें! आनी जर तो शिक्षक

कवी आसत जाल्यार मागीर सोने पे सुहागा...

मनोज कवी, फकत कवी न्हय तर आदर्श समाजाचीं सपनां पळोवपी

एक आदर्श शिक्षक, व्रतस्थ गुरू. आपल्या हाता खाल जो विद्यार्थी आसा ताका योग्य दिका दाखोवप, ताचे विचार प्रगल्भ करून तुजी गरज समाजाक आसा, ह्या गोंयांक आसा, देशाक आसा, पोट भरप म्हणल्यारूच जिवीत न्हय हो विचार आयच्या तरनाट्यां मदीं रिगोवप हेंच ताचें व्रत आमकां ताच्या बरपांत दिसता. मनोजाक आमच्या गोंयचो युवक आदर्श जाय. तो तशी इत्सा बाळगुनच रावना. तर तशें जावपाक तांणी कितें कितें करूंक जाय आनी कोणा सारखें जावपाक हें सागपा पासत त्या त्या विशयांचेर बरयता. मनोजाक आपले विद्यार्थी आदर्श नागरीक जाल्ले जाय देखून तो तांकां शिकयता आसतनाच जागयता आनी आपणें बरयल्ल्या लेखांतल्यानूय तांचे मदीं वैचारीक जाग हाडटा. तांकां दोतोर कलामाच्या वावराची वळख करून दिता, तांकां श्रीकृष्णाचे गूण सांगता. तांची देख घेवन आमचेय तरनाटे तशेच जावंचे होच मनोजाचो आंतरीक हावेस. मनोज गोंयच्या सैमाचो, पर्यावरणाचो जाल्लो इबाड पळोवन कळवळटा. ताची राखण आयच्या तरनाट्यांनी करची म्हूण तांकां आपल्या लेखांतल्यान सादयता. तांकां श्रावण म्हयन्याची म्हयमा सांगता, सण परबो मनोवपा फाटलो उद्देश्य सांगता आनी तांकां अंधस्रद्धा बी मानूं नाकात तर ती सैमाची राखण करूंक केल्ली जाणटेल्यांची तजवीज म्हणपाचें सांगून ती परंपरा मुखार व्हरपाक तो आपल्या लेखांतल्यान शिटकायता. एका आदर्श शिक्षकाक सगळे विशय लागतात. मनोज तेच पासत सगळे विशय घेवन तांचेर भाश्य करता. प्रासंगीक लेखांत साहित्यीक मुल्यां भोवतेक नासतात. पूण तीं हाडून तातूंत लालित्य हाडपाचोय मनोज यत्न करता. मोख एकूच.. सगळ्या सभावाच्या तरनाट्यांक वाचनाची रूच लावन तांणी आपलो विचार, आपली तळमळ समजून घेवंची आनी आमचें पर्यावरण,

आमचें गोंय  बी सगळ्यांची राखण करून मनीसपणाची संस्कृताय दरेकल्यान केळोवची होच ताचो हावेस आनी तेच उत्फर्के आमकां ताच्या लेखांनी दिसतात. आपले लेखणेचो वापर जावंचो तो एक आदर्श नागरीक निर्माण करूंक, आपल्या लेखांचे विशय आसचे ते हें गोंय सांबाळपाची भावना गोंयच्या दरेक तरनाट्याच्या काळजांत उदेवपा पासत हाचें भान दवरून मनोज  बरयत आसा.

मनोजाच्या ह्या लेख संग्रहांत जे विशय आसात तातूंतल्यान आमकां ताच्या मनांतलो  पर्यावरणाचो सांबाळ  हो विचार प्रकर्शान जाणवता. सम ाजांत अन्याय, अत्याचार माजत चल्ला आनी ताका जापसालदार सुवार्थी राजकारणी आनी तांचे पेंदे म्हणपाची कल्पना मनोजाक आसा. तांकां सुदारप कठीण म्हणपाचीय जाण ताका आसा. पूण तो खंतीन निराश जावन बसना. तर हे गजालींचेर उपायूय सांगता. आयच्या तरनाट्यांनी आदर्शवाद आपले भितर बळावन राजकारणांत भितर सरपाक जाय आनी ह्या भ्रश्टाचारी लोकांक धांवडावन स्वच्छ राजकारभार दिवंक जाय म्हणपाचें परत परत सांगता.

मनोजाचे लेख वाचतना ताच्यांतलो अध्यात्मीक मनोजय दिसता. पूण तो बुवाबाजी परंपरेंतलो अध्यात्म न्हय तर तरनाट्यानी आपलें मन कशें नियंत्रणांत दवरपाक जाय आनी आपल्या मनाक सुंदर जिविता पासत कशे तरेन सकारात्मक वळण दिवपाक हाची वळख तो तांकां करून दिता. मनशाचें मन जर सशक्त आसत जाल्यार तो जग जिखूंक पावता म्हणपाचें सत्य तो आयच्या तरनाट्यांक सांगता.

मनोज जितलें कणखर बरयता तितलोच तो हळवोय जाता. समाजांत खून, बलात्कार, आत्महत्या आनी अपघातांतलीं मरणां बी पळोवन ताचें काळीज कळवळटा. हें सगळें थांबोवंक जाय अशें ताका दिसता. हे प्रकार घडटा आसतना ते आळाबंदाक हाडपा बदला, त्या प्रसंगार मजतीक धांवपा बदला मोबायलाचेर  फोटो काडून ते प्रसारमाध्यमाचेर घालपा पासत चलपी

सर्त पळोवन तो तिडकता. हें मनीसपण हांगा कशें शेणूंक पावलें काय?असो प्रस्न ताका पडटा.

मनोज जें कितें बरयता आनी ताणें जें कितें मिशन आपणायलां तातूंत तो कितलो यशस्वी जातलो तें काळ थारायतलो. समाजा पासत कांयच करप ना, आपली नोकरी, आपलो संवसार, आपलीं सुखां हातूंतच समाधान मानून तेंच जीवन मानप हाचे परस आपूण समाजाक देणें लागतां, देवान आपल्याक निर्मिला तो हे धर्तरेर कितें तरी बरें करपाक म्हणपाची एक जाणविकाय सतत आपल्या मनांत जागी दवरून वावर करप ही एक खूब सकारात्मक बाब. सगळ्यांकूच ती जमत म्हणपाचें सांगू येना. कित्याक हो यज्ञ. तातूंत आपल्याच संवसाराच्यो समिधा घालपाचें धाडस चडसो कोण करूंक वचना. मनोजा सारके भोवच थोडे तें व्रत घेवन येतात. मनोज जें बरयता तातूंत साहित्यीक मुल्यां कितलीं आसात हाचे परस ताणें आपले विचार कितले तळमळीन आनी प्रामाणीकपणान मांडल्यात हें म्हत्वाचें. तातूंतलो खंयचोय एक विचार आयच्या तरनाट्यान वाचून आपल्या मनांत जर बळायलो जाल्यार निदान आनीक एक तरी मनोज समाजांत तयार जावंक पावलो हाचें समाधान म्हज्या सारख्याक लाबतलें. कित्याक हो रस्तो भोगवाद आनी चंगळवादाकडेन वचना. तो वता आदर्शवादाच्या होमखणाकडेन! त्या होमखणांत उडी घेवपाक धाडस आनी त्याग लागता. मनोजाचे अपेक्षे प्रमाण हो रस्तो कांय तरनाट्यांनी आपणायलो जाल्यार मनोजाच्या मिशनाचें आनी ह्या लेखसंग्रहाचें सार्थक जालें म्हणू येता. तशें जावं अशें मागणें करून हांव मनोजाचें अभिनंदन करतां!

**-दिलीप बोरकार**

# मनकळे फुलतना

फाटलीं तीस वर्सां हांव शिक्षणाच्या मळार वावुरतना कळत नकळत हांवें जायतें लिखाण केलें. कविताय रचल्यो, विश्लेशणां केलीं, अणकार लेगीत केले. पुणून म्हजी आवड मात निती मुल्यांचेर बरप करपाची आशिल्ली आनी आतांय आसा. वेळ मेळटा तसो हांव बरयतालों आनी विद्यार्थ्यांक ताचो उल्लेख करून सांगतालों खरो, पूण त्या लेखांक वाव 'भांगरभूंये'न दिलो. विद्यार्थ्यांक स्वावलंबनाचे धडे दिवप वा सकारात्मक जिणेचीं तत्वां समजावन सांगप हें दर एका शिक्षकाचें कर्तव्य अशें हांव मानतां. गरज उप्रासता ते प्रमाण भुग्यांक नितीमुल्यांचेर आदारीत काणयो आनी वेग-वेगळे प्रसंग सांगचे पडटात. कांय अणभविल्ले तर कांय वैचारीक, केन्नाय वाचिल्ले प्रसंग तशेच काल्पनीक नदरेन बरयल्ले प्रसंग. तेच प्रमाणे काणयों... काणयों कोणाक आवडनात? त्यो सगल्यांक आवडटात. काणयो सांगल्योच म्हण जायना. काणयेंतल्यो देखी आपणाले जिणेंत शिक्षकान स्वता आपणावंच्यो पडटात. तेन्नाच त्यो देखी विद्यार्थी आपणायतात. हो सैमाचो नेम. त्याच नेमाक धरून म्हजें बरप सुरू जाल्लें तें आयज मेरेन चालू आसा. 'मनकळे फुलतना' पुस्तक रुपान उजवाडाक येता. आयचे तरनाटे हुशार, कळाव लाय नासतना संकश्टांतल्यान मार्ग काडपाची तांक तांच्यांत दिसता. पूण जर तांकां सारकें बरें मार्गदर्शन मेळत तर तांची जीण सकारात्मक विचारांची जातली अशें हांव मानतां. मनशांचे जिणेचीं तत्वां कशीं आसचीं वा तीं कशीं आपणावंचीं तीं, हें पुस्तक वाचलें म्हणटकच तरनाट्यांक सारकी बरी समज येतली अशी आस्त हांव दवरतां. स्वामी विवेकानंदान तरणाट्यांक संदेश दितना म्हणलां, 'पयलीं सारकें आयकप, मागीर समजून घेवप, ताचेर चिंतन करप. ज्या गजालींनी चीत्त जाग्यार उरना त्यो गजाली सोडून दिवप. शिंपल्या वरी जावन एकाग्रतायेन वावर करीत जाल्यार जैतिवंत जावंक वेळ लागचो ना. हेंच तत्व तुमचे मुखार घेवन

येतां, जाचो भरपूर लाव वाचतल्यांक मेळटलो अशें हांव समजतां.

पुस्तक तयार करपाक आनी तिका प्रस्तावनाय बरोवपाक बिम्ब प्रकाशनाचे मुखेल संपादक भौ. दिलीप बोरकार हांणी एकाच उतरान हयकार दिलो. ते पासत तांचे आनी तांचे वांगडी हांचो हांव उपकारी आसां. म्हज्या ह्या लेखांक पुर्व प्रसिद्धी 'भांगरभूंय' ह्या आमच्या दिसाळ्यान दिली. ताचे संपादक तशेच तांचे हेर वांगडी हांच्या उपकारांत हांव सदांच उरतलों. ह्या लेखसंग्रहाक सोब सारकें नांव सुलक्षणा गडेकर हांणी सुचयलें. तेच परी आलिशा परेरा आनी म्हजो घराबो ह्या सगल्यांनी म्हाका खूब फाटबळ दिलें देखून त्या सगल्यांचे मना सावन उपकार.

– **एच.मनोज**

# मांडावळ

# गोंय आनी गोंयकारपण

दक्षिणे कडलो सर्ग जाका म्हणटात, जंय कुपां घसघशानी पावस रकयतात, भांगरावरी रेंवेंत रुप्याचो दर्या गाजता, दोंगर, दोंगुल्ल्यो, व्हाळ, न्हंयो, माड-माडयो अशें सोबीत सैमाचें देणें जाका मेळ्ळां, नाच, पदां दुल्पदां, फुगड्यो, धालांचो मांड, तियात्र जांची खाशेली कला जावन आसा. वेग-वेगळ्या जात्रां-फेस्तांनी एकचाराचें दर्शन घडटा, नदरेन भरपा सारकीं देवळां आनी इगर्जी जंय उब्यो आसात अश्या गोंयांत येवपाचो हावेस कोणाक जालो ना अशें केन्ना घडलां व्हय? तशें केन्नाच घडचें ना. कित्याक गोंय म्हणल्यार भोंवडेकारांचो सर्ग अशें मानपी लोक संवसारभर फाफसल्यात.

'गोंयकार मरे? तो सुसेगाद!' हें बिरूद आमकां मेळिल्लें खरें! पूण गोंयकार कश्टी आनी मोंर्शीक हेंय बी तितलेंच खरें! कांय अपवाद आसूं येतात. परशुरामाची ही पवित्र भूंय! हांगा जण एकलो हुस्क्या मेकळो जियेतालो! पूण हाचे फुडेंय तसोच जियेतलो अशें हांवें म्हणले जाल्यार तुमचो विश्वास बसतलो व्हय? ज्यो घडामोडी हांगा घडपाक लागल्यात त्यो पळयल्यार कोणाकय असोच दुबाव्र येतलो म्हणपाचें हांव जाणां. कांय वर्सां पयलीं पसून गोंयकार आपले वेग-वेगळे वेवसाय करतना दिसताले. बाजारांत वेग-वेगळे मांड घालून धंदो करताले. मागीर तो भुसारी जावं वा कपड्यांचो व्यापारी आसूं वा दर्जी कपडे शिंवपी वा हेर कसलोय पसरो आसूं. फाटलीं कांय वर्सां भितर हें चित्र बदल्लां. बाजारांत नदर मारीत तर चडशे पसरे परकी लोकांचे सुवादीन जाल्ले पळोवंक मेळटा. आमचो लोकतांत्रीक देश. हांगा कोणंय खंयच्याय राज्यांत वचून रबितो करूं येता वा काम धंदो करूं येता हेंय तितलेंच खरें! पूण जे सोंपेपणी गोंयांत हेरांक सुवाती विकत्यो घेवंक मेळटा वा भाड्याक पसरे घेवन चलोवंक मेळटात तितलेच सोंपेपणी हेर राज्यांत घेवंक मेळटात काय ना हो प्रस्न म्हाका आनी म्हजे सारकिल्ल्यांक पडूं येता. दुसरी गजाल जे तरेन हे परकी

आमच्या गोंयकारांचे वेवसाय घेवन चलयतात ते पळयतकच गोंयकारांकडेन आपल्या आज्या पणज्याचो वेवसाय मुखार व्हरूंक जमना काय कितें होय एक प्रस्न विचार करपाक लायता. एक काळ आशिल्लो सगले तरेचे वेवसाय गोंयकार करताले आनी तातूंत ते सफळ जाल्ले आमी पळयल्यात. हें चित्र कित्याक बदलूंक लागले तें कळपा खातीर हांवें म्हजे परिचयाचे वेवसायिकांक विचारिल्लें. तांणी सांगलें ते प्रमाण मुखेल कारण म्हणल्यार नव्यो-नव्यो इमारती जाल्ल्यान जण एके इमारतींत सगले तरेच्यो वस्तू मेळपी पसरे सुरू जाले. लोकांचो बाजारांत वचपाचो आंकडो कमी जावंक लागलो. इल्लो-इल्लो करून धंदो बसलो. वाड्या-वाड्यार पसरे आनी तरेकवार शॉपींग सेंटरां जावंक लागिल्ल्यान बाजारकारांल्या वेवसायांक मार बसपाक लागलो. जाचे कडेन पयसो आशिल्लो ताणें वेवसाय बदल्लो आनी जाचे कडेन पसरो चलोवंक जालो ना तांचे कडेन गिरायकांची वर्दळ कमी जायत गेली. अश्या पसरकारांनी आपलो पसरो दुसऱ्याक सोपयलो. अशे तरेन गोंयकारांचो धंदो हेरांचे सुवादीन जालो. जिणे आवश्यक वस्तू सगले कडेन मेळूंक लागिल्ल्यान बाजाराक वचपाची प्रथा कांय जाग्यार लुप्त जावंक पावल्या अशी गजाल म्हाका त्या पसरकारान सांगली. आमी फकत नीज गोंयकार आनी गोंयकारपण हो नारो दिवकूंच उरले! गोंयकारां खातीर कांयच करूंक पावले नात अशें फुडले पिळगेन म्हणचें न्हय तर आमकां कामांक लागचें पडटलें. थळाव्या समाज सेवकांनी आनी लोकप्रतिनिधींनी ल्हान-व्हड वेवयायिकांक सरकारी येवजणेंचो लाव मेळोवन दिवंक आदार करचो. तरूच आमी गोंयकारांची अस्मिताय तिगून दवरूंक शकतले अशें म्हाका दिसता.

आयचो तरणाटो हुशार, तो आत्मनिर्भर जावंक आशेता म्हणपाचें तांचे आचार आनी विचारां वयल्यान पारखूं येता, पुणून आर्थिक अडचणींक लागून तांचीय धावपळ जाल्ली आमी पळयतात. अशा वेळार तांकां कांय प्रमाणांत मार्गदर्शनाची गरज उप्रासता. हांव कांय प्रमाणांत इतल्याच खातीर म्हणटां कारण आयचो तरणाटो तो मागीर चलो जावं वा जावं चली, खंयचेच गजालींनी

तीं फाटीं नात. तीं सोशल मिडियाक लागून सामकी अपडेट आसतात. तांची बुध्दीय बरे तरेन काम करूंक शकता, संवसांरार कितें चल्लां तें तीं बेसबरीं जाणात. तांकां जाय फाठबळ. तांचे फाटीर शाबासकी, 'सर फुडें हांव आसां तुमचे फाटल्यान' अशीं उतरां तांकां आमी दिवंक जाय. मागीर पळयात आमचो तरणाटो वा तरणाटी कशें गोंयचें चित्र बदलतले ते! चित्र बदलूंक वेळ लागना फकत जाय प्रबळ इत्सा. इग्लिशांत एक म्हण आसा "where there is a will there is a way" जंय इत्सा आसा थंय मार्ग रोखडोच मेळटा. देखून उठात तरणाट्यांनों, आपले भितर आशिल्ली तळमळ आनी तुमची बुद्ध हांचो सांगोड घालात. आपलें बळगें विचार करून खर्च करात, सद्मार्गाक लायात. जांचे लागीं समाज कार्य करपाची जिद्द आनी गोंयचो फुडार थारोवंक योजना तयार करपाची तांक आसा अश्या तरणाट्यांनी लोकप्रतिनिधी जावंचें अशें म्हजें मत. जर कोणें अजून मेरेन हे बाबतींत विचार करूंक ना जाल्यार अवश्य करचो. गोंयच्या फुडाराचो विचार म्हणल्यार गोंयच्या जनतेचो विचार, गोंयचे अस्मितायेचो विचार, गोंयचे कोंकणीचो विचार. आनी हें फकत गोंयचो तरणाटो बरे तरेन आपले विचार मांडून करूंक शकतलो! आपली नकारात्मक वृत्ती सकारात्मक करपाचो वेळ आयला. कांय जाण उठतात, फटाश्यो मारतात आनी नाच्च जातात अशें जावंक फावना. गंभीर विचार करात आनी पावल घालात. जेन्ना आमचे सुटके झुजारी गोंय मुक्ती खातीर झुजताले तेन्ना तांकांय उणाक लेखताले. 'गोंय तरणें आसा. तें मुक्त जावंचें ना' अशे थोमणो मारताले म्हूण हांवें म्हज्या भुरगेपणार आयकल्लें. तो इतिहास फाटीं पडलो. आतां नवे पिळगेंतले तुमी, गोंयचो कारभार तुमच्या हातांत घेवपाचो वेळ आयला. उठात, नियाळ करात आनी वावराक लागात. आपल्या सुवार्थाचें चिंतू नाकात, भौसाचो विचार करात. भौसाचो वावर करतना आपली उदरगत आपसूक जाता म्हणपाचें मतींत दवरून कामांक लागुया. आमच्या अणभवांचो तेंको तुमकां सदांच मेळटलो.

***

# सैमाचें देणे मेळप आनी शेणप

आयज जें कितें संवसारांत आसा ते फाल्यां आसतलेंच अशें ना. तें घडये नश्ट जावंक शकता वा पिड्ड्यार जावंक शकता. बारीक वस्त आसत तर ती कोणूय बोल्सांत घालून व्हरूंक शकता वा ती शेणपाक शकता. मेळप आनी शेणप हें सैमान मनशाक दिल्लें देणें अशें हांव मानतां. देखून खंयचीय वस्त ल्हान जावं व्हड, म्हारग वा सवाय, बरी जावं वायट ती केन्नाय शेणपाक शकता. तेन्ना आमी म्हजी अमूक वस्त शेणली अशें म्हणून बोवाळ मारतात. शेणिल्ली वस्त मन लावन सोदीत जाल्यार ती परत मेळटाच. म्हज्या मेजा वयल्यो बारीक सारीक वस्ती शेणटात जशें पेन, पेन्सिल, पुस्तक. केन्ना केन्ना वक्ल लेगीत शेणटा. गरज आसता त्या वेळार त्यो वस्तू हाताक लागनात. पूण कांय वेळान त्यो परत मेळटात. तेन्ना म्हजी घरकान्न म्हणटा, 'हांडीर आसा चेडो सोदता सगळो वाडो.' तुमच्योय अश्योच वस्तू केन्ना-केन्ना शेणटात आसत जाल्यार याद दवरात बेठोच बोवाळ केल्यार कांयच लाव मेळना. पूण थंडसाणेन विचार केल्यार कांय वेळान ती वस्त आमकां परत मेळटाच. गरज आसा ती पाशिंयेंस काडपाची!

गांवांत वा वाड्यार कोणूय अडाणी कसो वागपाक लागलो जाल्यार मात आमी ताका हाचे चार आणे शेणल्यात काय कितें! अशें म्हणटात. हांगा शेणप हें उतर ताच्या कमी गिन्यानाचेर वार करता. तेच परी कोणूय वाटसुरो वाट चुकलो जाल्यार तो आपूण जावन सांगता, 'हांव वाट शेंणलो मरे!' आदल्या तेंपार लागशिल्लो कोणूय सोंपलो जाल्यार म्हणटाले, 'ताणें आमकां शेणयले मरे!' हाचे वयल्यान तुमी पारखूं येता, मेळप आनी शेणप हें मनशाचे जिणेचोच एक भाग जावन आमकां सांगात करता.

मेळप आनी शेणप ह्यो एका नाण्याच्यो दोन बाजू अशें हांव समजतां. केन्ना केन्ना बोल्सांत सुटें नाणें आसून लेगीत हाताक लागना. ते गजालीक कितें

म्हणचें हें म्हाका अजून मेरेन समजलें ना. कित्याक तर गरज उप्रासता त्या वेळार हें नाणें बोल्सांत खंय तरी कोनशाक लिपून बशिल्लें आसता. हाचो अर्थ आमी ती सैमीक क्रिया म्हूण घेवंची काय कितें? असो प्रस्न आमकां पडपाक शकता. ही मेळपाची आनी शेणपाची क्रिया आपसूक घडिल्ली आसता. आमी वस्तू जाणून बुझून शेणयनात. त्यो नकळत शेणटात. पूण मातसी शादुरताय बाळगीत जाल्यार हे शेणपाचे अनर्थ आमी टाळूंक शकतले.

शेणपाची क्रिया मनशाचेच बाबतींत घडटा अशें न्हय. मोनजाती बाबतींत लेगीत शेणप ही क्रिया घडत आसता. सुणो, माजर, गाय , म्हस, तांचें वासरूं शेणलें जाल्यार व्हडा-व्हडान हांबेता आनी सगल्यांक कळीत करता आपलें वासरु शेणलां म्हण!

शेणप ही क्रिया आपणाले बाबतीत जावंची न्हय जाल्यार शादूरताय बाळगुची, जतनाय घेवंची आनी एकाद्री वस्त शेणलीच जाल्यार पिकासांव करचे न्हय पूण आयज ना फाल्यां मेळटली अशी आस्त दवरची.

शिकपी भुरग्यांनी आपल्यो वस्तू निट-निटक्यो दवरपाची संवय भुरगेपणारूच लावन घेवंक जाय. आपल्यो गरजेच्यो वस्तू हाताक मेळटा तश्यो दवरीत जाल्यार गरज पडटा तेन्ना सहज हाताक लागतल्यो. ना जाल्यार म्हजे वरी गरज पडटा तेन्ना सोदूंक वेळ होगडांवचो पडटलो.

तरनाट्यां मदीं ही शेणपाची क्रिया नकळत घडटा. तांचेंय कितें ना कितें शेणिल्लें आसता. म्हूण तकलेर हात दवरुन बसचे परस फुडाराक अशी गजाल घडूंक दिवची न्हय असो संकल्प जण एकल्यान करचो आनी तो पाळचोय बी.

***

# प्रथा दिवे लावपाची

कदीम काळा सावन देवाक दिवो लावपाची प्रथा आसा. 'दिव्या दिव्या दिपोत्कार कानी कुंडलं मोती हार, दिवा जळो सारी रात' अशें आमकां आवयन भुरगेपणार म्हणपाक शिकयल्लें. सांजवेळ जालो म्हणटकर आवय देवाक दिवो पेटयताली आनी तुळशी म्हऱ्यांत निरंजन लायताली. मागीर आमी प्रार्थना म्हणटालीं. ताच्या उपरांत प्रसाद म्हण गोडाचो इल्लोसो वा साखर हातार पडटाली. गोंयांत ही प्रथा चडश्या घराघरांनी पाळिल्ली दिसता. म्हजी आवय सांगताली, 'तिनसांज जाली म्हणटकच लक्ष्मी घरांत येता. तेन्ना दिवो पेटोवन तिका येवकार दिवपाक जाय.' तशेंच उजवात लायली म्हणटकीर वातावरण सामकें परमळान प्रसन्न जातालें. दिसभर केल्ल्या वावराचो शीण भागोवपाचो हो वेळ आसतालो. तिनसांज जातां-जातां मनाक थाकाय मेळटाली. उरिल्लो अभ्यास करपाक आमकां संदूय मेळटाली. ते भायर देवाचें स्मरण जातालें. पुराय संवसारांत कोरोनाचें दुयेंस पातळ्ळां. ते फाटभुंयेर प्रधानमंत्री नरेंद्र मोदीन लोकां कडेन दिवे लावपाची मागणी केल्ली. ताचे फाटलो एक हेत तोच आसपाक जाय असो म्हजो समज. दुसरो हेत असो, देशभरांतल्या लोकांनी एकाच वेळार दिवो पेटोवन कोरोना आड आमी एकवटान झुजतात हो संदेश दिवंचो असो आशिल्लो! तो सगळ्यांनी आपआपले परीन करून दाखयलो. कितेंय जावं दिवे लावपाची प्रथा भारतांत आयज मेरेन प्रचलीत आसा.

'दिवे लावप' ही एक नामनेची म्हणय जावन आसा. जेन्ना कोणूय एकलो आपलें काम सारकें करी ना, आपलो व्यवसाय बुडयता आनी ताका लागून कसलेंय व्हड लुकसाण बी जालें जायत जाल्यार आमी म्हणटात, 'हाणें दिवे लायले मरे!' हांगा दिवे लावप हाचो अर्थ 'ताणें कोणाचें तरी लुकसाण केलें' असो जातालो. जेन्ना इस्कोलाक वचपी भुरगो सातवेक वा आठवेक नपास जातालो तेन्ना हे म्हणीचो उपेग करताले. एक शेजान्न दुसरे शेजान्नीक

सांगताली, 'जाणा मगो शेवत्या, त्या आवडूच्या चल्यान ह्या वरसाय दिवे लायले खंय!' हांगा दिवे लावप हाचो अर्थ तो नापास जालो असो जातालो. हालीं सरा आठवी मेरेन नापास कोण जायना कारण सी.सी.ई कायद्या प्रमाण आठवी मेरेन सगळे भुरगे पास जातात. म्हाका दिसता तुमी तरणाटे मन लावन अभ्यास करीत जाल्यार अज्ञानाचो दिवो पालोवन ज्ञानाचो दिवो पेटयतले अशी आस्त हांव दवरतां.

***

# वाऱ्या वयली गजाल

कांय जाणांक जल्माक येत सावन फकत गजाली मारपाक आवडटात. गजाली शिवाय तांचेकडे कसलेंच काम जावचें ना. गजाली मारपाक मेळ्ळ्यो म्हणटकूच तांकां आनीक कांयच सुचना, 'गजालींनीच तांचे पोट भरता!' अशें हांवें म्हणलें जाल्यार अतिताय जावंची न्हय. म्हाका भुरगेपणा वयली याद जाता. रेडिओचेर तेन्ना 'व्हनीबायली वासरी' नांवाची कार्यावळ आमकां आयकुपाक मेळटाली. ही कार्यावळ तेन्ना बरीच नांवारुपाक आयिल्ली. ती आयकल्या शिवाय आमकां चैन पडनाशिल्ली. त्या वेळार रेडिओच मनरिजवणेचें साधन आशिल्लें. ते कार्यावळीत जायत्यो गजाली आककुपाक मेळटाल्यो. कांय जाण बेठेच कसलेंय काम काडून येतात आनी गजाली मारपाक बसतात. दुसऱ्याक कामां आसतलीं काय ना हाचें तांका मातूय पडिल्लें नासता. तांकां फकत गजाली मारपाक मेळ्ळ्यो काय तांचें काम सादलें. असल्या मनशांक लागून आमचो वेळ पिड्ड्यार जाता ताचे कितें ? तांका तोंडार सांगपाक मुरवत दिसता म्हूण मूग गिळून तांच्यो गजाली आयकच्यो पडटात.

कांय जाणां कडल्यान बऱ्यो गजालीय आयकुपाक मेळटात. तेन्ना त्यो आयकत रावचें अशें दिसता. सगळ्योच वायट गजाली आसनात. दोग जाण जेन्ना कसल्याय कामां खातीर मेळटात तेन्ना तांचे मदीं कामाच्यो गजाली जातात! त्या वेळार तांचे गजालींचें सार्थक जाले म्हणू येता. कांय लोक गजाली मारतां मारतां हेरांच्यो चाडयो करपाक लागतात. तेन्ना मात भिरांत आसता. केस्तांवां जावपाची दाट शक्यताय आशिल्ल्यान असल्या गजालींनी वांटेकार जायना जाल्यार बरें अशें दिसता.

कांय गजाली वाऱ्या वयल्यो आसतात. तांचेर विश्वास दवरप म्हणल्यार घात करून घेवप. ह्यो चडश्यो अफवा पसरावंक कांय जाण उपकारायतात.

आनी त्रासांत पडटात. देखून त्यो मात नदरे आड केल्ल्यो बऱ्यो ना जाल्यार हिंदींत एक म्हण आसा 'आ बैल मुझे मार' अशी मनशाची गत जावं येता. वाऱ्या वयल्या कांय गजालींनी तथ्य आसूं येता! पूण त्यो एका कानान आयकप आनी दुसऱ्या कानान भायर सोडल्यो जाल्यार चड बरें शें म्हाका दिसता. हें घातकी दुयेंस कोवीद 19 जें पातळ्ळां ताचे बद्दल लेगीत कांय वाऱ्या वयल्यो गजाली आयल्यो आनी जाणें त्यो पातळायल्यो तांकां मागीर बरोच मनस्ताप जालो. म्हणून तुमकां सांगतां, नस्त्यो आफती घेवन बसूं नाकात. आपलें काम मन लावन करात. वाऱ्या वयली गजाल वाऱ्यार उडत रावूं! तुमी ताचेर लक्ष दिना जाल्यार बरें.

***

# जावंची जीण जशी मिठाकण...!

जण एकल्याक गोड जिनस खावपाक जशे आवडटात तशेंच तांच्या जिवितांत तांकां गोडूच मनीस आवडटात. जो मनीस तांकां बरी देख दिवपाक सोदतात वा तांचे चुकीर बोट दवरतात जाल्यार तांकां असलो मनीस अजिबात आवडना. हाचो अर्थ असो, तो मनीस तांकां मिठा सारको खारट लागता. ताचे पसून ते पयस रावतात. आमी जेवणाचे पंगतीत बसतात तेन्ना जशी आमची नदर फकत सुरबूस जेवणाचेर आसता, बरें रुचीक खाण पानार पळोवन एका कोनशार वाडिल्ल्या मिठाचेर आमची नदर केन्नाच वचना तशी शी वृत्ती मिठाकणयेचे गूण आशिल्ल्या मनशांचे बाबतींत आमी करतात. एक प्रस्न म्हाका तुमकां विचारन दिसता तो असो, मिठा बगर आमची जीण गोड जाता व्हय? कसलोय जिनस करतले जाल्यार तातूंत मिठाची कण पडपाकच जाय ना जाल्यार तो जिनस सामको अळणी तसोच पचपचीत लागतलो. मनशाचे जिणेंत लेगीत होच नेम! बऱ्या वायट गुणांचे मनीस जिविताचे वाटेर मेळप म्हणल्यारूच जीण गोड जावप. मनीस जर आडमार्गान वता जाल्यार ताका सरळ वाटेर हाडपाचें काम मिठाकणये सारक्या खारट सभाव आशिल्ल्या मनशानच करूंक जाय अशें म्हाका दिसता. मराठींत एक म्हण आसा 'निंदकाचे घर असावे शेजारी!' निंदा करतल्याचो उद्देश कितेंय आसूं! आपणें ताचे वयल्यान बोध घेवप आनी फावो तसो बदल आपले जिणेंत घडोवन हाडप. अशें केल्ल्यान आमी स्वहित तर सादतलेच पूण हेरांचें लेगीत बरें चिंतूंक लागतले! एक समाजकार्य केल्ल्याची भावना मनांत रुजतली अशें म्हणलें जाल्यार चूक जावची ना.

आनीक एक गजाल तितलीच खरी, ती म्हणल्यार जेन्ना आमी गोड जिनस वा रुचीक जिनस पोट फुगऽसर खातात तेन्ना अपचन जातकच लिंबूसोद पिवंचें दिसता! त्या वेळार अचकीत मिठाकणयेची याद जाता. जी मिठाकण

दोळ्यां मुखार नाका आसता, तीच मागीर कामाक येता. मिठाकणयेचे गूण जण एकल्या भितर कित्याक येनात होय एक म्हत्वाचो प्रस्न केन्ना-केन्नाय म्हाका पडटा तेन्ना हांव विचार करतां, अशे गुणांचे मेळ आशिल्ले भोव थोडे लोक आमकां मेळटात. आमची जीण सावरपाक ते आलाशिरो दितात अशें हांव म्हणीन. पूण चडश्या जाणांक तें नाका शें दिसता. कित्याक तांचें थोमण्यांनी उलोवप कोणाकच मानवना. देखून तांकां पयस दवरिल्लें बरें अशें घडये तांकां दिसता आसत! कितेंय जावं बऱ्या वायट गुणांचो मेळ मनशां भितर आसचो. जाल्यारच आमची जीण मिठाकणये वरी जातली हातूंत दुबाव ना. जशी आवय मोग दिवंच्या वेळार मोग भरभरून आपल्या भुरग्याक दिता तसोच तो चुकल्यार बडीय मारता आनी समजायता. जण एकल्यान आपले स्वतंत्र बुद्दीन विचार करचो. आपल्या मनाचेर ताबो दवरून निर्णय घेता तेन्ना तो निर्णय फायद्याचोच थारता अशें हांवें वेग-वेगळ्या क्षेत्रांत जैत मेळयल्ल्या लोकां कडल्यान आयकलां.

***

# शिक्षणा बराबर घरचें वातावरण उपेगाचें थारता..!

गोंय तशें सुपुल्लें जालें तरीय हांगा शिक्षणाच्या मळार जायतो वावर जायत आयला. वेग-वेगळ्यो मुळाव्यो शाळा, माध्यमीक विद्यालयां, उच्च माध्यमीक विद्यालयां, तशींच हेर वेवसायीक, वैजकी संबंदीचीं म्हाविद्यालयां आनी हेर सगले तरेचें शिक्षण भुरग्यांनी घेवपाची तजवीज हांगा आसा. तरी आसतना गोंयचीं कांय भुरगीं आपल्याक जाय तें शिक्षण घेवपाक गोंयां भायर वतात वा तांकां हांगा आपले आवडी प्रमाण दाखलो मेळना जावन गोंयां भायर वचून शिकतात. तेच परी कांय भायलीं भुरगीं गोंयांत शिकपाक येतात. शिक्षण कोणेंय खंयच्याय शारांत वा गांवांत वचून घेवं येता हातूंत दुबाव ना. पूण एक मुखेल प्रस्न म्हाका पडटा तो म्हणल्यार आमची शिक्षण पद्दती भुरग्यांक तत्वां (नितीमुल्यां) शिकोवपाक फाटीं पडटात काय कितें? वा हीं तत्वां भुरग्यांनी कशीं आपणावंचीं हाची विस्कटावणी आखून शिकोवप जाता काय ना ? असोय प्रस्न म्हाका सदांच पडटा. कित्याक तर फुडली पिळगी तयार करपाची जापसालदारकी आमचेर जावन आसा.

एक शिक्षक जाल्ल्यान हो आनी अशें जायते शिक्षण मळा वयले प्रस्न म्हाका भेडसायतात. अशे प्रस्न पडपाक कारण म्हणल्यार ज्यो घडणुको संवसारार घडटात त्यो पळयतकच जीव कासावीस जावन अशे प्रस्न सतावंक लागतात. घडये जीं तत्वां आमी भुरग्यां मेरेन पावोवपाचीं आसतात तीं तत्वां हे पिळगे मेरेन पावूंक नात वा तीं अर्दकुटीं पावल्यांत आसत अशें खेदान म्हणचें पडटा. जंय संवसार आयलो थंय वायट बऱ्यो गजाली आयल्योच! पूण वायट गजाली पयस करून बऱ्यो गजाली आत्मसात करप हो मनशाचो धर्म. हे चाली प्रमाण भुरग्यांक ल्हानपणा सावन नैतीक विज्ञान शिकोवप वा बरी देख दिवप आवय बापायवरींच एका शिक्षकाचो तो धर्म जावं येता. नैतीक विज्ञान (मोरल सायन्स) हो विशय आमी स्कुलांत प्रामाणीकपणान भुरग्यांक

शिकयतात. तांच्यांत मोग, माया, दया, स्वावलंबन, स्वाभिमान, परिश्रम, नमळाय. सत्यवादी हे आनी असले जायते गूण तांच्यांत येवंचे हो हेत दवरून तांकां समजावपाचो  आमचो यत्न आसता. दिसांतल्या चोवीस वरांतलीं सुमार साडे पांच ते स वरां मेरेन भुरगीं शाळा वा स्कुलांनी आसतात. उरिल्लो वेळ ते आपल्या घर. तातूंतलो रातीक न्हिदचो वेळ सोडलो जाल्यार सुमार आठ ते णव वरां तांकां घरांत घालोवंक मेळटात म्हूण घरांतलें आनी तांच्या सरभोंवतणचें वातावरण चड म्हत्वाचें थारता. तेच प्रमाण तांच्या पालकांचें योगदान लेगीत तितलेंच म्हत्वाचें जाता. पालकांनी आपल्या घराब्यांत आशिल्ल्या मनशां लागीं आदर बाळगप, तांचे कडेन मायेन उलोवप, आपल्या शेजाऱ्यां लागीं बरो संबंद दवरप तशेंच घरच्या जाणटेल्यांक मान सम्मान दिवप, पालकांची अशी वागणूक भुरगीं जेन्ना पळयतलीं तेन्ना तीं आपल्या जिवितांत हीं तत्वां आत्मसात करपाक शकतलीं. चडशीं भुरगीं पळोवन शिकतात. ल्हानपणांत आवय बापूय आनी एक टीचर तांचो रोल मॉडेल आसता. देखून पालकांनी आपली वागणूक बरी दवरप गरजेचें जावन आसा.

स्कुलांत जीं निती मुल्यां शिकयतात तांचो उपेग घरगुती जिवितांत जावपाक जाय. जाल्यारच तीं तिगून उरतलीं. ना जाल्यार तीं फकत स्कुला भोंवतणींच सोबेची वस्त जावन उरतली. घरांत कोणेंय कसलीय मजत केली तर ताका 'देव बरें करूं'  वा चूक जाल्यार चूक मागप, वा शेजारधर्म पाळप असल्यो बारीक सारीक गजाली करपाक भुरग्यांक लायत जाल्यार हीं तत्वां भुरग्या भितर रिगपाक कळाव लागचो ना. शिकयतल्याक लेगीत आपले शिकवणेचें सार्थक जालें अशें दिसल्या बगर रावचें ना. आमी चडशे पळेतात, स्कुलांनी ह्या तत्वांचो वापर करतात, जशें चूक मागप, दिनवास दिवप, माफी मागप असल्या उतरांचो वापर घरांत जाता काय ना हें आदीं पळोवंचें पडटलें. तशें जाता जायत तर ती खोशयेची आनी समाधानाची गजाल. ना जाल्यार हीं तत्वां फकत स्कुलांनीच उरतात. तांचो प्रसार जावंक पावना. जाल्यारूय भोव थोड्या प्रमाणांत जावंक पावता. तो वाडयतलो जाल्यार घरचें बरें वातावरण

तयार जावपाक जाय. तेन्नाच हीं तत्वां भुरग्यांक आमी बरे तरेन शिकोवंक पावतलीं. कांय पालक भुरग्यांक स्कुलांत घालो आनी तांकां कितें जाय नाका तें हाडून दिलें म्हणटकीर तांची जापसालदारकी सोंपली अशें मानतात. भुरग्यांक मागता तें दिलें म्हण जायना. तांचेर नदर दवरप हें जण एका आवय बापायचें काम. तांचेर बरे संस्कार जावपाक शिक्षकां बराबर आवय बापायचो व्हड वांटो आसता हें सत केन्नाच लिपून उरूंक ना. भुरग्यां मुखार सदांच सत तेंच उलोवप, दिल्लें उतर पाळप, वायट उतरां तांच्या मुखार केन्नाच उलोवप ना अश्यो बारीक सारीक गजाली पालकांनी मतींत दवरल्यो जायत तर निती मुल्यां शिक्षणाचो उद्देश साकार करपाक आमी शिक्षक सफल जातले हातूंत दुबाव ना.

***

# आषाढ पावळी

**मळबा वेलीं काळशी कुपां**
**धोलत मोडत वयर वयर**
**येता घेवन पावसा धार**
**जावन पिशांतूर वाऱ्या ल्हार**

आषाढ पावळेचें वर्णन करपी हें म्हजें कवन, सदांच म्हाका आषाढ पावळेची वाट पळोवपाक लायता. जशें सैम पाचवो शालू आंगार ओडून धर्तरेक व्हंकल कशी नटयता. पावसाची वाट पळयत पिशांतूर जाल्ली धर्तरी पावसाची दडक आंगार घेवन तृप्त जाता, तशी ती उठून दिसता. पिकाळ माती शेतकामत्याक होरायता. तो मनसोक्त घाम गळोवन आपलें सर्वस्व पणाक लावन धर्तरेची कूस उजोवंक शेतांत देंवता. मोगी आपल्या मोगाची वाट पळयत फुडाराचीं सपनां रंगोवंक गुल्ल आसतना एक पावसाची दडक ताच्या आंगाक भिजोवन वता. तेन्ना ताचें प्रसन्न मुखामळ पळयतकच ताचें सपन पुराय जावपाचें उतर घडयें हे पावसाचे थेंब ताका दितात काय कितें? अशें म्हाका आडसाक राविल्ल्या त्या तरनाट्याक पळोवन भास जाल्लेवरी दिसता. आषाढ म्हयनो सगल्यां खातीर समृध्दीचें वारें घेवन येता. ह्याच आषाढ म्हयन्यांत धर्तरेचें रूप सुमार भायर दिसता. रुखांक नव्यो कोंबऱ्यो जश्यो फुटतात तश्यो वर्सुकी परबो येवपाचे वाटेर आसतात. मनीस्जातीक नवी उर्बा दिवपाचें मुखेल काम ही पावळी करता. ह्या दिसांनी पावसाचें मन अस्थीर जाता. तो केन्ना घोग्यांनी पडटा तेन्ना बांयों, न्हंयों, झरे उपाट भरून व्हांवतात. केन्ना-केन्नाय तर तो थंड-शितळ मायेन धर्तरेक न्हाण घालता असो भास जाता. तर केन्ना तो कुंपां भितर रिगून आपा-लिपाचो खेळ खेळटा. निश्चल सान भुरग्यावरी.

आषाढ म्हयन्यांत कालिदासान मेघदूत काव्य बरयल्लें जें अंजरंवर जालें. ह्याच म्हयन्यांत आषाढी एकादस आनी गुरुपोर्णिमा आमी मनयतात. जस-जसो पावसाचो नेट वाडत वता, सैम भुरळ घालपाक लागता तेन्ना सवणी आनी हेर जीव आपलो वंश फुलोवंक गुल्ल जातात. म्हज्या सारक्या कवींचें मन आपसूक कवन रचपाक लागता...

**काळसार कुपां व्हडा-व्हडान**
**हांसोन खेळून गडगड करून**
**आंगार झेलून जोगलाट**
**येता पिशांतूर वाऱ्या ल्हार**

आनीक एक मजेशीर गजाल घडटा ती अशी, लग्न जावन घोवा घरा गेल्ली धूव आषाढ पावळेक कुळरा आयिल्ली आसता, तेन्ना तिचें मन अस्थीर जावन दोनाय वाटांनी ओडटा. नव्या घरांत जरी तिचीं नवीं पावलां तरी ते घरचे लोक तिका आपले शे दिसतात आनी तिचो घोव मोगाळ आनी कर्तुबी मनीस जिचो तिका अभिमान दिसता. पूण जेन्ना ती कुळार सोडून परत घोवा घरा वचूंक भायर सरता तेन्ना तिका कुळाराची याद जावन दोळ्यांत खोशयेचीं दुकां येतात.

अशी ही आशाढ पावळी सगल्यांक जाय-जायशी. तरनाट्यांनी निराश जाय नासतना आपलो फुडार रंगोवंक सपनां पळोवपा सारके हे दीस. सपनां पळयात आनी तीं साकार करूंक वावरात. म्हणचे तुमचे जिणेचें सार्थक जातलें.

***

# श्रावणांतल्यो सरी मनांत उरबां भरुंदी..!

आशाढांतलो पावस मनाक भिडटा तर श्रावणांत पावस आनी वत हांचो खेळ सुरू जाल्लो दिश्टी पडटा. आत्तां पावस तर रोखडेंच वत असो पावसाचो हो खेळ पळयतना दोळ्यांक थाकाय मेळटा. हें कंवळें वत सैमाचेर एक तरेची लिकलिकसाण हाडटा. सैमाचें रूप देखणें जाल्लें दिसता. सैमांतलीं पानां, फुलां, वाली आनी हेर वनस्पत आंगा-पांगान भरिल्ली धडधाकट, गुबगुबीत जाल्ली दिसता. ह्या म्हयन्यांत सवायशिणी उपास करतात आनी आयतार पुजतात. एक वेळ आशिल्लो, वाड्या वयलीं बायलां आनी चलयो जळामळां भोवून वेगवेगळीं फुलां, शेरवड आनी पत्री एकठांय करतालीं. तीं आमी आमचे भुरगेपणांत पळयल्लीं. आतांच्या तेंपार सगलें बाजारांत मेळटा, म्हण चडशीं जाणां भायर सोदूंक भोवनांत. भोवून सोदून हाडिल्लीं आनी विकतीं हाडिल्लीं हातूंत बरोच फरक आसता. भुरगेपणार म्हजी आवय म्हाका आनी म्हजो धाकटो भाव संदीप हाका वेगवेगळे तरेचीं फुलां आनी पत्री एकठांय करून हाडपाक लायताली आनी आमी लेगीत व्हडा उमेदीन हो वावर करताले.

श्रावण लागता तसो चडशे लोक शिवराक जेवतात. त्या दिसांनी सगलेच दीस खास जाल्ले आसतात. कोण सोमार धरता तर कोण मंगळार पाळटा. कोणाक बिरेस्तार आनीक एकल्याक शुक्रार धरपाचो आसता, तर कांय जाण शेनवार पाळटात. अशे तरेन सुमानांतले सगलेच दीस पवित्र दीस मानून कांय जाण पुराय म्हयनो शिवराक रावतात. हाकाच लागून मनशाचें मन प्रसन्न उरता. एक तरेचें चैतन्य आनी खोशी एकामेकाच्या तोंडार फांकिल्ली पळोवंक मेळटा. देवाच्या सानिध्यांत आशिल्लेवरी भास जातात, जो तो आपूण कशे तरेन सोवळें पाळटा हाची गवाय तांचो वॉट्सएप स्टेटस दिता. एक-एक परब जसजशी मुखार येत रावता, मनीस आप-आपले परी ती मनोवपाचे तयारेक

लागता. जश्यो श्रावणांतल्यो सरी सैमाचेर पडल्यो म्हणटकच सैम उचांबळ जावन वाऱ्या ल्हारार धोलपाक लागता. शेतकामत्याच्या वावराचें फळ ताका शेतांत पिकाऽळ वाऱ्या नेटान धोलतना दिसतकच एक खेरीज खुशालकाय ताच्या मुखामळार दिसपाक लागता. तो आपली तान–भूक न्हीवऽ सर आपल्या धानाची जतनाय घेता. ताच्या कश्टांक लागून मनीस जातीक दाणो गोटो मेळटा.

कदीम काळा सावन मनीस सैमाच्या सांगातान जियेत आयला. सैमाची परत फेड करपाचो म्हयनो श्रावण आनी म्हूण आमी नागाची पुजा करतात. सुताची पुनव मनयतना दर्याची पुजा करतात. ह्याच म्हयन्यांत श्रीकृष्णाचो जल्म जाल्लो हो दीस अश्टमीच्या नांवान आमी मनयतात. नमीक मटको फोडपाची प्रथा आसा. ह्यो सगल्यो चाली रिती अजून मेरेन व्हडा उमेदीन मनयल्ल्यो आमी पळयतात.

श्रावणांत पावसाच्यो दडकांर दडको येवंक लागतात तेन्ना मोर आपलो पाखांटो फुलोवन नाच करपाक लागता. तें दृश्य पळोवपा सारकें. श्रावणांत वत कडक पडटा खरें पूण पावसाचो नेम आसना. तो वत आसतना लेगीत पडटा आनी मागीर मळबांत इंद्रधोणू आपले सातरंग फांकारता. त्या वेळार सैमाचें हें अपरूप देणें पळोवपाचें भाग्य मनीस कुळयेक देवान फाव केलां काय कितें असो प्रस्न म्हाका पडटा. तशें आसत तर मनीस सैमाची जतनाय घेवंक कित्याक फाटी पडटा? होय एक वेगळो प्रस्न म्हजें मन म्हाका करपाक लागता. श्रावण सुरू जाता त्या दिसा म्हजी आवय 'पाचवो श्रावण आयच्यान सुरू' अशें कित्याक म्हणटाली तें आतां म्हाका कळूंक लागलां अशें हांवें म्हणलें जाल्यार अतिताय जावंची न्हय. पाचव्या कोरांत आनीक कितलेशेच पाचवे कोर आसात हाची गवाय श्रावण आमकां दिता. जळींमळीं पाचवो कोर पातळिल्लो दिसता आनी ताचेर फुलिल्लीं रंग–रंगयाळीं फुलां पळयतकच सैम एक जादुगार असो भास जाता. पावसान मातसो आसोर केलो रे केलो घोंटेरांतलीं सवणीं भायर सरतात आनी चीवचीवपाक लागतात. आपल्या पिलांक खाण हाडपाक तीं भायर

सरतात. तेच परी हेर मोनजात लेगीत आंग झाडून आप-आपल्यो गरजो भागोवंक भायर सरतात. सैमांतलो एक-एक घटक आप-आपले परीन सैमाची सोबाय वाडयता. बारीक मोटो जीव धादोसकायेन जीण जगपाचो यत्न करतना दिसता. श्री देव शंकराचो श्रावण हो आवडीचो म्हयनो अशी काणी आयकुपाक मेळटा ती अशी. दक्षाची धूव सती हिणें आपले जीविताचो त्याग करून कितलींशींच वर्सा श्रापीत जीण जगल्या उपरांत तिणें हिम राजागेर पार्वतीच्या नांवान जल्म घेतलो. तिणें श्री शंकराचें कडक व्रत पुराय श्रावण म्हयनो करून देवाक प्रसन्न करून घेतलो आनी अशे तरेन देवा कडेन तिचें लग्न थारिल्लें. देवाक आपली घरकान्न परत मेळिल्ली तो जावन आशिल्लो श्रावण म्हयनो. म्हूण हो म्हयनो देवाक आवडटा अशी मान्यताय आसा. ह्याच म्हयन्यांत देव धर्तरेचेर आपल्या मांवागेर रावपाक आयिल्लो तेन्ना तांचो अभिषेक करून ताका येवकार दिल्लो अशी काणी सांगिल्ली हांवें आयकल्ली. तेन्ना सावन देवांचो श्रावण म्हयन्यांत अभिषेक करपाची प्रथा आयज मेरेन चलत आयल्या. असो हो श्रावण म्हयनो सगल्यांक जाय-जाय सो दिसता. तरणे पिळगेक श्रावणाची म्हायती मेळची, तांकां ह्या म्हयन्याची पवित्रताय कळची हाची जतनाय आमी घेवपाक जाय. पाश्चात संस्कृती आनी भारतीय संस्कृती दोनूय श्रेश्ट हातूंत दुमत ना. पूण आमचें दायज आनी आमचे रिती-रिवाज आमच्या भुरग्यांनी मुखार व्हरचे अशें चिंतपी जायते पालक आसात. तशें चिंतप चुकीचें न्हय. पूण तें दायज आमीच तांकां दाखोवन दिवंक जाय. तें मनयता आसतना तांचो आसपाव करून घेवप हें गरजेंचें जावन आसा. तांकां लागीच्यान पळोवंक मेळपाक जाय आनी देखून ह्यो परबो मनयतना अतिताय जावंची ना हाचीय जतनाय जण एकल्यान घेतली जाल्यार आमी फुडली पिळगी सुसंस्कृत घडयतले हातूंत दुबाव ना. श्रावण येतलो वतलो वर्सान वर्स आनी दर खेपे तो आपलें वेगळेपण घेवन येतलो. तो मस्त्या भुरग्यावरी येवन तिडायतलो! तेच परी ह्यो दडकांर दडको येवन मनांत फुडाराची उर्बा भरतलो अशी आस्त तुमी दवरात.

***

# खरेंच बाधता व्हय पायंगूण?

संवसारांत जंय जंय म्हूण लोकवस्ती आसा थंय-थंय वेग-वेगळे मनीस सभाव आमकां पळोवंक मेळटात. त्याभायर वेग-वेगळ्यो चाली रितीच्या नांवान अंधश्रध्देंत जगपी लोकय कमी नात म्हणपाचें आमी जाणांत. आदल्या वेळार चडशे लोक पांयगूण आनी अंधश्रध्देचेर विस्वास दवरुनच दिसपट्टीं कामां करताले. कसलेंय काम करचें आसत तर तें पंचांग पळोवन वा भटाक विचारुनच पावल घालताले. कांय लोक अजून मेरेन तेंच करतात. जण एकल्याचे स्वताचे विचार ते. तशेंच घरांतल्यान कसल्याय कामां निमतान भायर सरतना काळें माजर आडवें पासार जाल्यार अपशकून जाता अशें मानताले आनी तीन पावलां फाटीं सरून मागीर मार्गाक लागताले. हें तीन पावलां फाटीं सरपाचें कुवाडें मात म्हज्यान अजून मेरेन सोडोवंक जालें ना. कांय लोक तर अमक्याच्या पांयगुणाक लागून वायट जालें वा बरें जावंक पावलें अशें मेकळेपणान उलयल्लें हांवें आयकलां. तेचपरी कोणायचें वायट जाल्लें आसत तर ह्या मनशाच्या पांयगुणाक लागून अशें घडलें म्हूण दुशण दिवंक लेगीत फाटले पिळगेंतले लोक अनमन ऩाशिल्ले. ज्या मनशा बाबतींत उलयताले त्या मनशाक कितलो मानसीक त्रास जाता आशिल्लो ताचो विचार मात लेगीत जायनाशिल्ल्यान तांची जीण त्रासदायक जाताली हेंय तितलेंच खरें म्हणपाचें हांव जाणां.

ह्या पांयगुणांक लागून लग्न जावन घोवा घरा आयल्ले नवे व्हंकलेक आदल्या काळार बरोच मनस्ताप जातालो अशी म्हजी आवय तेन्ना सांगताली. सोयरीक करता आसतना चली तिकळें वा निखळें बी न्ही मरे अशें चल्याची आजी मुजरत विचारताली आनी जर कितेंय वायट जालें जाल्यार दोश चलयेच्या माथ्यार थापताले.

पांयगुणाच्या नांवान जायत्या जाणांची संवसाराची घडी बसचे पयलींच

उध्वस्त जाल्ली हांवें आयकल्ली आनी पळयल्ली लेगीत. पूण हालींसरा असल्यो गजाली कानार पडनात ती एक बरी गजाल अशें म्हाका दिसता. नवें घर बांदतना लेगीत अंधश्रध्देचेर भरवंसो दवरून कांय जाण घरा सामकार काळें बावलें बांदतात. पोसवणेक आयिल्ल्या पोपायेच्या वा हेर खंयच्याय रुखाक जोतीं बांदल्यार फळां पिड्ड्यार जायनात ही अंध्दश्रध्दा पाळिल्ली दिसता. तेचपरी गाडयांक चप्पलाची प्रतिकृती आनी लिंबू बांदपाची प्रथा अजून मेरेन चलत आसा.

ह्या तंत्रज्ञान युगांत लेगीत आमी कळत वा नकळत अंधश्रध्देचेर आदारिल्ल्यो करण्यो करतात. तांचेर विश्वास दवरतात. म्हजीच देख दितां, जेन्ना हांवें नवें घर बांदिल्लें तेन्ना म्हजो इश्ट दामबाब, हाणें म्हाका घराक काळो बावलो बांद म्हूण सांगलें आनी हांवें रोखडोच एक बावलो हाडलो आनी बांदलो. पूण तो जरी हांवें अंधश्रध्देन बांदूंक ना तरी हांवें ताचें प्रदर्शन केलें काय ना ? खरें सांगचें जाल्यार हांव चुकलों. हांवें तो बावलो बांदून पटोवन दिलें, हांव अंधश्रध्देचो पुरस्कर्तो म्हूण. म्हणटकच खंय तरी आमी चुको करतात. त्यो चुको तुमी करच्यो न्हय अशें म्हाका तुमकां सागन दिसता.

आतां वेळ बदल्ला. घडये तेन्ना अशे विचारसरणेची गरज आशिल्ली पूण आतां आमचे विचार बदलूंक जाय. पांयगुणांच्या नांवान कोणाक दोश दिवप सारके न्हय. जाच्या ताच्या कर्मांचीं फळां तांचे तांकां मेळटलीं! देखून दर एकल्यान बऱ्योच गजाली शिकच्यो. वायट गजाल आसत तर सोडून दिवप. बरें तेंच घेवप हो नेम लावन घेत तर जीण फुलत वतली.

म्हजे मतान पांयगूण बी तशें कांय आसना. आसलेंय जाल्यार जो मेरेन मनीस बरी विचार सरणी मनांत बाळगिता तो मेरेन ताचे हातान बरेंच काम घडत रावता. दुश्ट विचार मनांत येत जाल्यार मात वायट कर्मा घडपाची दाट शक्यताय आसता. देखून तुमी तुमचे मनांत सदांच बरे विचार हाडात. म्हणचे बरेंच काम तुमचे हातान घडटलें.

***

# मनीसपण खंय उरलें?

देवान जेन्ना हो संवसार रचलो तेन्ना ताणें येवजूंक नाशिल्लें आसत, मनीसजीव जो सगल्यांत बुदवंत असो ताणें जल्माक घाला तोच बुदवंत मनीस एक दीस ह्या सोबीत संवसाराचेर हांवळ हाडपाचीं वायट कर्मां लेगीत करूंक पावतलो म्हूण. मनीस हो समाजीक जीव. हेर जनावरां परस मनीस हो श्रेश्ठ आनी बुदवंत! देवान ताका हें देणें फावो केलां, देखून मनशाक तो बुदवंत आशिल्ल्याचो दाखलो दिवपाची गरज पडूंक ना. आपल्या कतृत्वान ताणें पुराय संवसाराक कळीत केलां. तेच परी आपले बुद्दीचो आनी बळग्याचो उपेग करून ह्या सैमाचेर आपलो शेक कदीम काळा सावन चलयला.

आपलें ध्येय मेळोवपाक कांय मनीस कितेंय करपाक तयार आसतात. चड करून आर्थीक फायदो मेळटा जाल्यार कसलेंय काम करपाक आपली नैतीक जापसालदारकी विसरतात. खरें म्हणल्यार मनशान निसुवार्थी जावन समाजांत वावरूंक जाय. कित्याक तर मनीस हो एकूच प्राणी जाका आपले उमाळे उक्तावंक येतात. तेच परी ताका कितें बरें आनी कितें वायट तें वळखुपाक येता. हेर जनावरांक देवान हो गूण दिवंक ना. देखून मनीसपण सांबाळून वावरप ही आमची लागणूक जावन आसा. हालीसरां ज्यो घटना संवसारार घडटात त्यो पळयतकच आनी ताची विस्कावणी करपी खबरो पळयतकच प्रस्न पडूं येता मनीसपण खंय उरलें ? विचार करपा सारको प्रस्न हो.

खंय चोरयो जातात, खंय कोणाचेर आगळीक जाता तर कोणाचो दिसा उजवाडा खून जाता. कोण आत्महत्या करतात आनी आमी फकत तोंडांत बोटां घालून चुरचुरतात! तर कांय जाण मोबायलाचेर विडियो काडटात आनी रोखडोच सोशल मिडियाचेर घालतात? ज्या मनशाचो तो व्हिडियो आसता ताच्या घरच्यांनी तो पळयत तर तांचेर आकांत आयले बगर रावचो ना. देखून अशे तरेचे व्हिडियो घालचे पयलीं सारकी बरी फोडणी करुनच मुखार धाडल्यार

बरो अशें म्हाका दिसता.

कोणेंय येवन कायदो हातांत घेवन आपल्याक जाय तें करून पसार जावप हाकाच स्वातंत्र्य म्हणटात, हेंच साध्य करपा खातीर आमचे झुजारी वावुरले तांणी आपली जीण असले तरेची मेकळीक मेळची म्हूण झरयली व्हय? आमी रामायण, महाभारत, दिव्य कुराण वा बायबल ह्या ग्रंथांतल्यान कितें बोध घेतलो तर?

आमचे जाणटे सांगताले कोणायचें वायट जाले जाल्यार तांच्या दुख्खांत आमी वांटेकार जावंक जाय. तांचें दुख्ख पयस करपाक तांकां आदार दिवंक जाय. तशेंच तांचें सूख हें आपली खोशी जावंक जाय. पूण आतां आमी पळयतात ती एकाम काची नसाय. एकट्याचें वायट जाल्यार दुसऱ्याक खोशी भोगता आनी कोणायचें बरें कितें जालें जायत तर तो ताका दुशण दिता वा नांवां दवरता. मनीसपणाक लागून तर धर्तरेचेर जिवींत फुलता आनी फांकता हाचो विसर आमकां पडपाक लागला. तीं बरेपणाचीं लक्षणां न्हय. मनांत दया आनी माया दवरली जाल्यारच आमी एका-मेकाची मजत करपाक शकतले. ह्याच गुणांक लागून एक मनीस दुसऱ्या मनशाच्या संकश्टा वेळार धांवत वतलो. तो हेर जिवांची पर्वा करपाक लागतलो. मनीसपणान केल्ली उदरगत जण एकल्याक फायद्याची थारतली हातूंत दुबाव ना. आतांचे कार्यमग्न जिणेंत कोणाक वेळ आसा दुसऱ्याचो विचार करूंक? जण एकलो आपूण मुखार कसो वतलो ह्या विचारांत घुसपून उरता. जाचो फायदो कांय जाण घेतात आनी मागीर पुराय मनीस जात बदनाम जाता हेंवूय तितलेंच खरें.

आपलो फायदो जाता जाल्यार दुसऱ्याच्या जिवाची पर्वा आपणें कित्याक करप? अशे तरेचें चिंतप मनीस करपाक लागता आनी मनीसपण विसरून बसता. जस-जसो काळ बदलत गेलो मनशाच्यो गरजो लेगीत बदलत गेल्यो. त्यो पुराय करपाक तो हाडांचीं काडां करून वावरूंक लागलो. उदरगतीचें एक-एक पावल मारपाक लागलो. इतले मेरेन बरें आशिल्लें, पूण आतां आमच्यांत जायते बदल घडत आसात. आतांचे पिळगेक पाशिंयेंस काडपाक नाका देखून भर दिसा उजवाडार कर्तो सवर्तो स्वप्नील वाळके हाचो खून जावप मनीसजातीक लजेक

घालपी अशी गजाल. ताका वेळार मजत मेळिल्ली जाल्यार घडये ताचो जीव वाटावतलो आसलो! दुसरो एकलो मनीस आपलेच भयणीचेर सुरो तोपता, सुशांत सिंह आत्महत्या असल्यो कितल्योश्योच गजाली हालींसरां आमकां नेमाळ्यांनी वाचूंक आनी टीवीचेर पळोवंक मेळटात तेन्ना जीव खासावीस जाले बगर रावना.

आयज जर आमी एका-मेकाक आदार दिलो ना जाल्यार फुडाराक आमी एका-मेकाचे आड उबे रावतले! जिणेचीं मुल्यां आयचे पिळगे मेरेन सारकी पावयलीं ना जाल्यार मनीसपण विसरून बसतले आनी नव-नव्या अस्त्र-शस्त्रांचो शोध लावन आपलो शेक चलोवपाक मनीस जातीक गोळाक लायतली. तेन्ना कळाव जाल्लो आसतलो. संवसारांतलो जण एक मनीस परमेश्वराचें देणें अशें आमी मानता आसत तर मनशां मदीं भेद-भाव कित्याक? थोड्याशा दुडवांक लागून खून, मारामारी, चोरयो, जिवघेणो हल्लो ह्यो गजाली कोणाकच पटपा सारक्यो नात. तेचपरी कोणेंच त्यो खपोवन घेवंच्यो न्हय. मनीसपण हो पयलो धर्म अशें मानून आमी एकामेकाक आदार दिवपाक जाय. उच्च-नीच हो भेद-भाव पयस करून ऐपत आशिल्ल्या जण एका मनशान आपल्या परस दुबळ्याक आदार करीत तर मनशाच्यो चडश्यो अडचणी पयस जावंक शकतात अशें म्हाका दिसता.

जण एका मनशाचो अध्यात्मिकता आनी नैतिकते लागीं म्हत्वपूर्ण संबंद आसपाक जाय. तसो संबंद आशिल्लो आमी पळयताय बी. मनशाचो अध्यात्मि कतायेचो संबंद जरी ताचीं घरचीं वा लागशिल्ल्यां भोंवतणी उरलो तरी मनशाचो नैतिकतायेचो संबंद समाजीक आसपाक जाय. समाजाक आमी देणें लागतात हाचें भान दवरून वावरत जाल्यार ताचो लाव सगल्या थराच्या मनशा मेरेन आमी पावोवपाक शकतले. ती काळाची गरज जावन पडल्या. एकामेकाक आदार करून आमी दुख्खी मनशाचे जिणेंत कांय सुखी खीण हाडपाचो यत्न करीत जाल्यार मनीसपण तिगून उरतलें.ना जाल्यार फुडाराक ह्यो गजाली नानपयत जातल्यो हाचें भान आमकां दवरचें पडटलें.

***

# वाचनाची गोडसाण जण एकल्यान अणभवची!

आपल्या विचारांची गती वाडयतलो जाल्यार वाचनाची संवय लावन घेवची पडटा. जितलें वाचन वाडटा तितली मनशाची स्मरण शक्त वाडत वता. भुरगेपणा सावन वाचन करीत आयल्ल्या मनशाक पुस्तक ताचो खरो इश्ट जावंक पावता. पुस्तकां शिवाय तो मनीस कसोच जियेवंक पावना. ताच्या हातांत कसलें ना कसलें तरी पुस्तक आसचेंच पडटा. वाचनान नवे-नवे शब्दांची वळख जाता, तेच परी गिन्यानांत भर पडटा. शाळेंत वा स्कुलाक वचपी भुरग्यांचे पुस्तकां वाचतकच उच्चार सुदरतात. शिकपी भुरग्यांक जर आमी नेमाळी वाचपाची संवय लायत तर सरभोंवतणी कितें चल्लां ताची पुराय म्हायती तांकां मेळटा. तांच्या सामान्य गिन्यानांत भर पडटा.

हालींच कोंकणी भाशा मंडळान तरनाट्यां मदीं वाचनाची आवड निर्माण जावंची, तांच्या विचारांची गती वाडची म्हूण कोंकणी वाचन विश्व हें ऑनलायन व्यासपीठ फावो केलां. हांव बाय अन्वेशा सिंगबाळ हांकां परबीं दितां तांच्या ह्या विलक्षण उपक्रमांक यश आवडेंतां. तरनाट्यां मदीं वाचनाची आवड निर्माण जावंक हें योग्य व्यासपीठ थारतलें अशें म्हाका दिसता. आमच्या भुरगेपणांत आमी पुस्तकां वाचताले तेन्ना आमचें मनोरंजन तर जातालेंच तेच बराबर नवें कितेंय शिकिल्ल्याची खोस मेळटाली. पुस्तकां वाचतल्याक जायतो लाव मेळटा. पयले सुवातेर वाचतल्यांचो आत्मविस्वास वाडटा, भाशेचें शब्द भंडार वाडटा, वाचन केल्ल्यान बरोवपाची शैली बदलता आनी ताच्या बरपाचो पावंडो उंचावता. शिकतल्या भुरग्यांक ल्हानपणा सावन वाचनाची आवड लावपाक जाय. जशीजशी मनोरंजनाचीं नवीं-नवीं साधनां येवंक लागलीं, भुरग्यांची वाचनाची रुची कमी जायत गेली. टीवी, मोबायल, फेसबुक सारकिल्ल्या साधनांचेर भुरगीं आपलो चडसो वेळ घालोवपाक लागल्यांत जाका लागून तांचें वाचन कमी जाता आसत असो

दुबाव येता. कांय जाणांचें मात्तूय वाचन जायना आसत जाल्यार तांच्यांनी भाशा मंडळाच्या उपक्रमांत वांटेकार जावन ताचो लाव घेवंचो.

ज्या कोणांक वाचपाची आवड आसा तांणी कसलेंय तरी वाचन मुजरत करचें. जण एकल्यान नेमाळीं, म्हयनाळीं वा आवडीचीं पुस्तकां वाचून आपल्या ज्ञानात भर घालूं येता. हालींसरा डिजीटल पुस्तकां मेळूंक लागल्यांत. तरणाट्यांनी तीं पुस्तकां वाचपाचो लाव घेतलो जाल्यार तांकां फायदोच चड जातलो. पुस्तकां वाचपाचो छंद कोणे पयसावंचो न्हय. पुस्तकांनी व्हडले व्हडले मनीस घडयल्ले आसात. पुस्तकां सारखो इश्ट दुसरो मेळचो ना अशें जाणकार मानतात. पुस्तकां वाचून मनशाची विचार शक्त वाडटा. तेचपरी व्यक्तित्वाचेर बरो प्रभाव पडटा. देखून जण एका पालकान आपल्या भुरग्यांक वाचनाची गोडसाण लावपाक जाय. तांकां पुस्तकां भेट दिवंक जाय. आपल्या भुरग्यां बराबर थोडो वेळ वाचन करूंक जाय जाल्यारच आमी ही वाचनाची गोडसाण भुरग्यां मदीं रिगोवंक शकतले.

नवे पिळगेंतले लेखक, कवी, समीक्षक तयार जातले जाल्यार वाचन करप गरजेचें थारता. आतांच्या भुरग्यांक डिजीटल पुस्तकां वाचपाची संवय जाल्ली दिश्टी पडटा. कांय हरकत ना! तींय लेगीत पुस्तकांच! जंय वाचूंक मेळटा ताचो लाव घेवंचो आनी आपलें गिन्यान वाडोवंचें. पुस्तकां वाचूंक आनी बरोवंक वयाचें बंधन ना. कोणेंय केन्नाय वाचपाचो छंद बाळगूं येता. पुस्तकां वाचून तन आनी मन मस्त दवरूं येता. म्हूण जाता तितले बेगीन पुस्तकां वाचपाची संवय लावन घेवप बरें..

***

# कादय

आमचो भारत देश कदीम काळा सावन एक आस्तीक आनी सभ्यताय आशिल्लो देश म्हूण नांवा रुपाक आयिल्लो खरो, पूण जायते भायले सोयरे येवन तांणी आमचेर शेक चलयलो. आमची गिरेस्तकाय, संस्कृताय, आमचें दायज आनी आमचो इतिहास नानपयत करपाचे यत्न केले. पूण भारतीयांनी हाल-उपाद्रें सोसून जैत मेळयलें. देश मुक्त जालो. पूण गोंय मात पुर्तुगेजांच्या जुलमां खाला जखडून उरिल्लें. गोंयकार मेकळो स्वास घेवंक तळमळटाले. अशा वेळार आमचे जायते गोंयकार भाव पुर्तुगेजां आड पेटून उठिल्ले. पुर्तुगेज धरून तांकां कादयेंत घालताले. तांचेर अत्याचार करताले. तांचें शोशण करताले. त्या वेळार 'कादय' हें उतर आयकना फुडें गोंयकारांच्या आंगार कांटो उबो रावतालो.

कोणाकूच पुर्तुगाला आड उलोवंक मेकळीक नाशिल्ली. कोणेय कायदो मोडपाचो यत्न केलो जाल्यार ताका ख्यास्त जालीच म्हूण समचुपाचें. म्हजे आवयन म्हाका पुर्तुगेज काळार घडिल्ली एक गजाल सांगिल्ली. आमच्या घराब्याच्या दोतोराक कादय भोगची पडिल्ली. ताचो गुन्यांव इतलोच आशिल्लो, आपल्या दवाखान्यांत ताणें राष्ट्रीय फुडाऱ्याचो फोटो लायिल्लो म्हूण तांकां धरून व्हेल्ले. दोन-तीन दिसां उपरांत तांकां ताकीद दिवन मुक्त केल्लें. ती गजाल कळत सावन कादय ह्या उतराक हांव लेगीत सामको भियेतालों. मस्ती केल्यार आवय भिरांत घालताली, पुलीस धरून कादयेंत घालतले म्हण. म्हज्या भुरगेपणार चडशे जाण भितालेच आसूंक जाय! ती भिरांत कशी आशिल्ली हाचोय अदमास लावं येता.

पूण तुमचे सारकोच हांवूय बी नशीबवान! कित्याक तर हांव लेगीत गोंय मुक्ती उपरांतूच जल्माक आयिल्लों. पुर्तूगिजांचो शेक आनी तांचो जुल्म हांवें अणभवंक ना. पूण आमच्या सुटके झुजाऱ्यांनी आनी त्या वेळा वयल्या

गोंयकारांनी तो अणभवला. देखून कादय कशी आसूं येता ताचो अणभव कोविद 19 च्या निमतान आमी आयज पळयतात. तरी पुर्तुगीजांवरी आमचेर जुल्म जावंक ना. देखून आमी भोगतात ती कादय कांयच न्हय अशी. फाटले कांय म्हयने आमी हे धामीची कादय भोगतात आनी ही कादय केन्ना सोंपून आमी मुक्त जातले हाची आमकां मातपूण सुलूस मेळना. ना कोणागेर वचप, ना कोणाचें कोणागेर येवप जाता. जाणट्यांचें अशें-तशें! पूण भुरगीं आनी तरनाटीं शाळा कॉलेजी बंद आशिल्ल्यान उबगल्यांत म्हण हांव जाणां. तीं आपल्या इश्टा-मित्रांक मेळपाक सामकीं आशेल्यांत हेवूय हांव जाणां. पूण एक सांगन दिसता, आमी मातशें सोंसूंक जाय. सोंशीकपण हो मनशाचो खाशेलो गूण. हे दीस जातले पयस! आमी आशावादी जावंया आनी कोरोना पासून पयस रावपाचीं बंधना पाळया. तेन्नाच आमी हे कादयेंतल्यान भायर पडूंक शकतले. मनांत नवी उर्बा बाळगात आनी वेळ बदलपाची वाट पळयात. वेळा चक्र बदलतलें, तशे हे दीस सरतले आनी नवीं सपनां साकार करूंक नव्या दमान तुमकां वावुरचें पडटलें.

***

# खंत करचीच कित्याक?

शाळेंत वचपी ल्हान भुरग्यां सावन ते जाणट्यां मेरेन कसली ना कसली खंत मनशाक सतायता. ती तांची फाट कशीच सोडपाक तयार आसना. आतां कोरोना धामीचें घेयात, हो बिन बुलाए मेहमान येवन आमच्या दारा मेरेन पावला. वचपाचें नांव घेना. खंत जातली काय ना? आज मेरेन लाखा वयर लोकांचो ताणें जीव घेतला आनी घेत आसा. सगळो संवसार ताणें ठप्प केला. कांय जाण बाबडे पादिसेर जाल्यात तर कांय जाण पादिसेर जावंचे वाटेर आसात.

हरशीं म्हूण आमकां मनशांक राटावळी कितें कमी आसात व्हय? विद्यार्थी आसतना अभ्यासाचो हुसको, शिक्षण सोंपलें रे सोंपले नोकरी वा वेवसाय करपाचो हुसको, ताचे उपरांत लग्नाचो हुसको, मागीर भुरग्यांचो हुसको! अशे तरेन हुसके मनशाची सावळी जावन रावतात. कांय मनीस तर ह्या हुसक्यांक लागून आंथरुण धरता आनी निमणें मेरेन ताका दसून उरता.

आमच्या मनाक जाय तश्यो घडणुको जायनात जाल्यार आमी खंत करतात! खंत करतल्या मनशाक न्हीद पडना, फाल्यांचो दीस कसो वतलो हाची खंत ताची न्हीद पिड्डेर करता तर रातची न्हीद जावंक ना म्हूण सकाळीं उठतकच पिरंगणी जी लागता तातूंत मागीर दीस पिड्डेर जाता. अशी ही खंत मनशाक नाका शेवट करता.

आतांची पिळगी म्हणल्यारूच तरनाटे, मनांत आयल्यार कितेंय करूंक तयार! तेचपरी जिद्दीन वावुरपी. आपलें ध्येय मेळोवंक कश्ट करपी अशे. देखून तांकां सांगन दिसता, खंत ही वाळटी कशी! ती एकदां लाकडाक लागत तर घटमूठ लाकूड लेगीत काबार करून उडयता. मनशाक खंत लागत तर ताका ती पोखरून खाता. म्हूण बेकार रावंक फावना. कसलो ना कसलो छंद आपणावंक जाय. छंद आशिल्लो मनीस सदांच व्यस्त उरता. ताचो वेळ

रोखडोच पासार जाता. मनांत आशिल्ले सगले विचार उजार जावंक लागतात. तो वेग-वेगळे प्रयोग करपाक लागता. अशे तरेन ताका खंत म्हणटा ती आफडूंक शकना.

पुणून खंती आशिल्लो मनीस भिवकुरो जाता. कितेंय करपाक तो कोंबडे पिलां भशेन कुडकुडपाक लागता. निमणो तो आपलो आत्मविस्वास होगडावन बसता. मनीस मोग, राग, भिरांत, दया, माया, द्वेश हे गूण घेवन जल्माक आयिल्लो आसता. तेन्ना तांकां बराबर घेवन वाटचाल करची पडटा.

बारीक विचार करीत जाल्यार मतींत येतलें, एक मनीसूच असो प्राणी आसा जो चिंता करता. सैमांतले हेर जिवावळीक केन्नाच खंती जाल्ली कोणें पळयलां आसत अशें म्हाका दिसना! ती आपलीं दिसपट्टी कामां करीत दीस सारता आनी राती कडेन आपल्या राबित्यांत परतता. तुमी म्हणटले तांकां मन खंय आसा वा तांकां उमाळे लेगीत आसनात! तेंय खरें, पूण एक गजाल तांकांय लागता आनी आमकांय लागता आनी ती जावन आसा पोटाची भूक ती तर दोगांकय भागोवंची पडटा देखून आपलें काम मन लावन करया आनी खंती-हुसके करप सोडून दिवंया. पूण भलायकेची जतनाय मात घेवया.

***

# सैमांतली गिरेस्तकाय आनी आमी...!

मातयेंत माती मिसळ्ळी म्हणटकूच ती एकजीव जाता. आपल्या खाशेल्या गुणां सयत ती दुसरे मातयेचे गूण आपणायता आनी बरी सुपीक जमीन जावन शेतकामत्याक बरी पिकावळ दिवंक आदार करता. थोडक्यांत सांगपाचें जाल्यार मनीस लेगीत मातये प्रमाण एकामेका कडेन मिसळून रावले जाल्यार ताचो फायदो आमकां मनशांकूच जातलो म्हणपाचें आमी जाणांत. आमच्या धर्म ग्रंथांनी हाचो उल्लेख मेळटा, रामायण, महाभारत, बायबल वा कुरान हीच शिकवण दिता. आपले सयत सगल्यांचें बरें जावंचें अशें कसलेंय देवकार्य संपन्न जालें म्हणटकूच भटमाम तसोच पादरी आनी मुल्ला जें मागणें करतात तें ओगीच न्हय. सगल्यांचेर माया आनी मोग करात. अडी-अडचणींत सांपडिल्ल्याचे जिणेंत गोडसाण भरात. अशें केल्ल्यान आपणाली जीण सुखी जावंक पावना. ना जाल्यार जिणेंत कोडसाण भरता हाची जाण ज्या मनशाक आयली ताणें लोकांचीं मनां जिखलीं म्हूण समजुपाचें. कोणाकय उणाक लेखीत तर जीण विरूस जाता हाची एक देख तुमचे मुखार दवरतां.

नामनेचो उर्दू शायर निदा फाज़लीच्या म्हणण्या प्रमाण लशकर नांवाचो एक संत आशिल्लो. अरब देशांत ताका नूह ह्या नांवान वळखताले. एकदां खंय ताचे सामकार एक जखमी सुणो आयलो. तेन्ना ताणें ताका हिणसायत म्हणलें, ‘पयस वच बुरशा सुण्या!’ सुण्यान नूहचीं ‘बुरसो’ म्हणिल्लीं उतरां आयकून ताका जाप दितना म्हणलें ‘ना हांव म्हजे इत्शेन सुणों जालां आनी ना तूं तुजे इत्शेन मनीस जाला! आमकां दोगांकय त्या एकाच परमेश्वरान रचला.’ सुण्याचीं उतरां आयकून नूह दुखी जालो. आपणें विनाकारण एके मोनजातीक दुखयिल्ल्याचें ताका पिकासांव जालें आनी ह्या दुख्खांत ताच्यो कितल्योश्योच राती खंती करून पेड्डेर जाल्ल्यो.

महाभारतांत युधिष्ठीर जेन्ना सर्गाचे वाटेर आशिल्लो तेन्ना ताका एका

सुण्यान सांगात केल्लो हें आमी जाणांत. एक-एक करून ताचे लागशिल्लो सगळे जाण ताचे पसून पयस जायत गेले. पूण निमणो एक सुणोच ताचे वांगडा आशिल्लो. तो युधिष्ठीराच्या मनाक ताच्या एकसुरेपणांत सांगात दितालो. साईबाबा आनी दत्तात्रय हांकांय सुण्यान सांगात केल्लो हेंवूय आमी जाणांत.

संवसार कसो जल्माक आयलो? पयलीं तो कसो आशिल्लो आनी कसो बदलत गेलो हाची जाप विज्ञान आपले परीन दिता जाल्यार आमचे धर्मीक ग्रंथ आपले परीन दितात. सैमाची रचना कशीय जावं पूण धर्तरी कोणा एकल्याची संपत्ती न्हय. जीव-जंतू, सवणीं, मनीस, जनावरां, झाडां-पेडां, दोंगर-दोंगुरल्यो, न्हंयो, दर्या सगल्यांचो हातूंत वांटो आसा. मनशान फाटलो फुडलो विचार करिनासतना आपल्याक जाय तशी आनी जाय तितली भुंय बळकायल्या. एका काळार मनीस रासवळ कुटुंबांत जियेतालो. व्हडलीं-व्हडलीं घरां बांदून रावतालो. सगले एकठांय येवन सण-परबो मनयताले. खोशयेन जियेताले. आतां लोकसंख्या वाडल्या. पूण मनीस मात एकमुळो जियेवंक पळयता. जमीन कमी पडूंक लागल्या म्हूण झाडां मारूंक लागल्यात. दोंगर-दोंगुरल्यो कापपाक लागल्यात. मनशांच्या घरांची तजवीज करचे खातीर जिवाण्यांक आनी जनावरांक बेघर करपाक लागल्यात. तरेतरेचे वेवसाय हाडपाच्या नांवान पर्यावरणाक दुखोवंक लागल्यात, रस्ते रुंदीकरणाक लागून न्हंयो, दर्या दुशीत जावंक लागल्यात. जाचो परिणाम पर्यावरणाचेर दिसपाक लागला. देखून गरमेच्या दिसांनी तापमान वाडपाक लागलां. पावस हुंवार घेवन येता आनी मनीस जातीचेर हावळ हाडटा.

मनीस जे तरेन वागल्यात ताचो परिणाम आमकां आतां भोगचो पडटा. आमच्या पुर्वजांनी सैमाचें जतन करून दवरिल्लें, सैम आनी मनीस हांचो सांगोड आशिल्लो पळोवंक मेळटालो. तांचें शिकप जरी कमी आशिल्लें तरी पूण तांकां सैमाची जाण आशिल्ली. सैमाची जतनाय करून ते आपली वाट-चाल करताले. आतां उदरगतीच्या नांवान पर्यावरणाचो नाश जावंक लागिल्ल्यान सैम मनशाचेर आगळीक करपाक लागला. जाच्यो जायत्यो देखी

आमच्या मुखार आसात. तातूंतली एक म्हणल्यार 2004 वर्सा डिसेंबराचे 26 वेर आयिल्लो सुनामी, जाका लागून अंदमान, निकोबार जुंवो आनी केरळ, तामिलनाडू, आंध्रप्रदेश ह्या राज्यांनीसांवार जाल्लो आमी पळयला. पावसा दिसांनी हुंवार तर सदचोच जाल्लो आसा. दोंगराळ भागांत ही नासाडी चडूच दिसपाक लागल्या. व्हडल्या-व्हडल्या शारांनी तशेंच गोंयांत लेगीत दर्यादेगेर व्हडल्यो व्हडल्यो इमारती उब्यो रावपाक लागल्यात. उदरगतीचे नांवार सगलें माफ जाता अशें दिसता. पूण ना. सैम मागीर राग उक्तायता.

आमच्या भुरेपणार सांजवेळार सैमाक दुखोवंक दिनाशिल्ले. आवय सांगताली सांजवेळार रुखांचीं पानां वा फळां तोडून काडल्यार तांकां दुखापत जाता. तीं रातचे वेळार रडटात. मनशाक दुशण दिवंक लागतात. ही गजाल आयचे पिळगेक खरी दिसत व्हय? आयज कोणाचो हे गजालीचेर विश्वास बसत व्हय? जसो-जसो काळ बदलत गेलो, मनीस लेगीत बदलत गेलो. पयस आसून लेगीत मनीस नव्या तंत्रज्ञानाक लागून लागीं आयलो. नवे-नवे पूल आनी रस्ते वाडत गेले. तेचपरी नवीं-नवीं वाहनां रस्त्यार धांवपाक लागलीं. मनशाची गती वाडपाक लागली. पयसो हातांत घोळपाक लागलो. ताका घरच्या खाणा परस भायलें खाण आवडूंक लागलें, जाचो परिणाम आमचे भलायकेर जावंक लागलो. नवीं-नवीं दुयेंसांय मान वयर काडपाक लागल्यांत. हाचेर उपाय एकूच, तो म्हणल्यार आमचे जिणेचो वेग कमी करप, धांवपळ ना करप, नितळसाण पाळप, पर्यावरणा संबंदान संवेदनशील जावप. जाल्यारूच आमी सैमांतली शेणिल्ली गिरस्काय परत मेळोवंक शकतले.

***

# बीं तशें भात...!

पावस सुरू जाता म्हणसर शेतकामती शेताच्या वावराक लागतात. जमीन सुपीक करपा खातीर तो रातदीस कश्ट करता. ताची एकूच इत्सा आसता ती म्हणल्यार बरें पीक घेवप आनी ते खातीर तो रोंप काडपाक बर्या दर्जाचें बिंयाणें वापरता. कोंकणींत एक म्हण आसा 'बीं तशें भात.' बरे जातीचें बीं आसत तर बरी पिकावळ, बियाणें निकृश्ट आसत तर तेच दर्जाचें पीक येता. म्हूण शेतकामती बिंयाणें बरो विचार करून वेंचून काडटात. निमणो पावस सोंपता म्हणसर शेतांत भांगरावरीं कणसां धोलतात. तें पळोवन शेतकार भाव खोशयेन भरता. बाकिचो वावर आटापून भात घरांत येवन पडटा तेन्ना केल्ल्या कष्टाचें फळ म्हूण चार पयशे हातांत घोळटले अशें येवजून तो सुखावता.

शेतकामत्या वरी जण एक मनीस आपली करणी मन लावन करीत रावलो जाल्यार ताचें बरें फळ आयज ना फाल्यां मेळटलेंच म्हणपाचें आमी जाणात. 'बरें कर्म केल्यार बरें फळ, वायट कर्म केल्यार वायट फळ मेळटा' अशी शिकवण आमकां भुरगेपणार दिल्ली. घडये ताकाच लागून आमची पिळगी भावार्थी जावंक पावली. एकाद्या घराब्यांत आदले पिळगेंत कलाकार, तो मागीर गायक, चित्रकार नाटककार बी आशिल्लो जायत, तांचे नवे पिळगेंत मागीर कोणूय बरो गायक वा चित्रकार बी जावंक पावतालो. तेन्ना ताका हो गूण ताचे आज्या पणज्या कडल्यान फाव जाला अशें म्हणटाले.

जायत्या लोकां मदीं ही कला आपसूक एके पिळगे कडल्यान दुसरे पिळगे मेरेन पावताली. ताका आमी वांशीक दायज म्हणटात. तेचपरी आदीं घराब्यांत बापूय बेबदो आसत आनी तेंच वेसन मागीर ताचो पूत गिरोवंक लागलो जाल्यार म्हणटाले, 'बीं तशें भात मरे!' एक नावाडग्या चोराचो भुरगो चोरी करपाक लागलो जाल्यार लेगीत हीच म्हण ताका लेखून म्हणटाले. वांशीक दायज जेन्ना बरे गुणांचें आसता तेन्ना ताची चड तोखणाय जायना. पूण हेच

वांशीक अवगूण घेवन जल्माक आयिल्लो आसत तर अश्या मनशांक सगलेच दुशण दिवन थोमणो मारतात. 'बी तशें भात!'

आतां भुरगीं ल्हानपणां सावन आपल्याक आवड आशिल्ले कलेंत वा खेळांत प्रशिक्षण घेतात आनी आपलो छंद पुराय करतात. कांय जाण गायन करपाक लागतात, तर कांय जाण नृत्यकलेंत पारंगत जावंचो यत्न करतात. अशे तरेन नवी पिळगी धडत रावता. हालींच्या तेंपार वेग-वेगळ्या सर्तीनी वांटो घेवपा खातीर आवय बापूय भुरग्यांक सान पिरायेरूच तांकां आवड आशिल्ले कलेंत प्रशिक्षण दिवंक लागतात. तांकां खाशेल्या वर्गांत घालतात.

देखून ते बऱ्या पयकी कलाकार जावंक पावतात. जण एकल्यान कसलो ना कसलो छंद बाळगुचो. आपल्या अभ्यासाचो वेळ सांबाळून छंद पुराय करपाक वावुरल्यार तो छंद मागीर नामना मेळोवन दिता आनी मनीस व्हड जावंक पावता.

आपली जीण दरेकल्यान शेतकामत्या वरी करची. बरें ते आपणावन वायट तें सोडून दिवंचें. एकदां इंदिरा गांधीन म्हणिल्लें, तिच्या आज्यान तिका एकदां सांगिल्लें खंय, ह्या संवसारांत दोन तरेचे मनीस आसतात, एक काम करपी आनी दुसरो फकत मिरोवपी. तिणें मुखार सांगिल्लें, आज्यान तिका म्हणिल्लें, पयले वर्गाच्या मनशां सारकें जा. थंय कसलीच सर्त ना. तिणें आपल्या आज्याची सांगणी आयकल्ली. ताचें तत्व आपणायल्लें. मागीरचो तिचो इतिहास तुमी जाणांत.

'समझनेवाले को इशारा काफी है' अशें हिंदींत म्हणटात.

***

# जीण जशी सरये वयलो नाच!

पुंडलीक नारायण नायक हांची एक कविता 'दर्याचें गीत' हे कवितेची म्हाका याद जाता. तांचे हे कवितेंत तांणी दर्यार जियेवपी एका तारयाचे जिणेचें चित्र रंगयलां. तारयाची जीण कितल्या कश्टांची म्हणपाचें कवीन दाखोवन दिलां. तेचपरी तारयो आपलो वावर भंया विरयत करून आपलो दिसपट्टो ग्रास मेळोवपा खातीर कसो सरये वयलो नाच करता ताचें सुंदर वर्णन कवीन हे कवितेंतल्यान मांडलां. आयज जण एका गोंयकारांक तारयाचे जिणेंतले कश्ट कशे आसूं येतात हाची जाणविकाय जाले बगर रावची ना. कारण कोविड धाम येत पसून गोंयकारांचो जीव गोळाक लागला. बिनसरकारी नोकरी करपी, विक्री आनी सेवा क्षेत्रांत वावुरपी मनशांक आर्थीक फटको जाणवूंक लागला. शिक्षीत तरणाटे नोकरेचीं दारां केन्ना उगडटलीं हाची वाट पळयत बसल्यांत. शाळा कॉलेजी बंद आशिल्ल्यान ऑनलायन शिक्षणाची तजवीज केल्या, पूण ती चालीक व्हरपाक जाय पडटा रेंज, ती सोदता म्हणल्यार तारयाक जसो सुकते भरतेचो थाव घेवंचो पडटा तसो सो थाव रेंजीचो घेवंचो पडटा. तेन्ना शिक्षकां वांगडा विद्यार्थ्यांक लेगीत 'दर्याचें गीत' कविता याद जाल्या बगर रावची ना. शिक्षणीक वर्स फुकट वचूंक फावना हाचेर विचार जाल्ले कारणान ही तजवीज करची पडल्या.

एके गृहिणीक आपल्या घराब्याक कितें जाय आनी कितें नाका हाची तजवीज आडबंद काळ (लॉकडावन) ते आयज मेरेन करतना कितलो मनस्ताप जाला आसत हाची कल्पना आमी दादले करूंक शकतात व्हय? विधात्याचेर भावार्थ दवरून हो कोरोना कांय दिसांनी नानपयत जातलो म्हण आस्त बाळगीत तिणें समाजीक जीण बंदिश्त करून दवरल्या. केन्ना पयसावतलो काय हो कोरोना? अशें मनांतल्या मनांत पुटपुटत भुरग्यांच्या फुडाराचें सपन तीं पळयतात.

तुमी लेगीत फुडाराचीं सपनां पळोवंक लागल्यांत आसतलीं देखून तुमकां

एक सुचोवणी करीन दिसता ती अशी, वेळ आसा तसो नव्यो-नव्यो कला शिकून घेयात. जाचो उपेग तुमकां वेळा काळार जावंक पावतलो. जी कला आमी वेळ पासार जावंक शिकतात ताचो फुडाराक लाव मेळटाच असो म्हजो अणभव. म्हज्या हाता खालसून गेल्ले भुरगे जेन्ना मेळपाक येतात तेन्ना ते हेंच सांगतात. 'सर, फावल्ल्या वेळार घेतिल्लें प्रशिक्षण कामांक आयलें. तुमी सांगिल्लें खरें जालें,' देखून सांगतां शिक्षण हें केन्नाच फुकट वचना. म्हूण नवे-नवे प्रयोग करून पळयात. जैत तुमचेंच आसतलें. जीण जरी तारया सारकी सरये वयलो नाच जाली तरी ती सफळ करूंक मनांत खर इत्सा बाळगून सरात मुखार. मागीर पळयात तुमचो हात धरपी कोणूच आसचो ना. म्हजे हातांत अर्दो रिकामो पेलो आसा अशें म्हणचे परस म्हजे हातांत पेलो अर्दो भरिल्लो आसा म्हणत तर सकारात्मक विचार केल्ले वरी दिसता. आयकतल्यांचे मनांत लेगीत एक प्रकारची उर्जा तयार जाता. तिकाच आमी सकारात्मक उर्जा म्हणूं येता. तारयावरी संकश्टां पयस करून जीण सुखाची करूंक वावर करतले असो संकल्प आयजूच करात.

***

# उमाळे आमचे भाशेचे...!

सान भुरगें जेन्ना आवयक उकारे दिवंक लागता तेन्ना आवयचे खोशयेक शिममेर उरना. ती आपल्या उकाऱ्यांक आनीक खेरीत सूर आनी चाल लावन भुरग्या मेरेन पावपाची तकालस घेता. भुरगें जशें ल्हानाचें व्हड जावंक लागता तशें तें इल्लें-इल्लें करून लुडब्या उतरांनी आवयची भास उलोवंक शिकता. तीच भुरग्याची आवय भास म्हणू येता. केन्द्रीय सरकारान नवें शिक्षणीक धोरणांत आपले आवय भाशेंत शिक्षण घेवपाची तजवीज करतले अशें उतर दिल्लें आसा. भुरगें आपले आवय भाशेंत शिक्षण घेवंक लागलें जाल्यार तें संवकळीचें जावंक पावता. ना जाल्यार मात भुरग्याक नवी भास सारकी बरी कळना जावन तें बुचकळ्यांत पडटा. आमच्या देशांत वेग-वेगळ्यो भासो आमी उलयतात. पूण शिकतना आमकां मुखेल तीन भासो शिकच्यो पडटात. पयली भास वेव्हारीक भास, जी जावन आसा इग्लेज. दुसरी भास हिन्दी, तिका राष्ट्रीय भास म्हणू येता आनी तिसरी भास कोंकणी (गोंयाक लेखून) जी आमची मायभास. गोंयचे भुरग्यांचें मुळावें शिकप भायले भाशेंत जाता हें निखटें सत! खरेपणान जें शिकप मायभाशेंत जावपाक जाय तें तशें जायना. देखून भुरग्यांक ती नवी भास समजूंक आनी शिकूंक कठीण वता. शिक्षकां मदीं जेन्ना हे विशयाचेर उलोवप जाता, तांचे मदीं जेन्ना भासाभास जावंक लागता, तेन्ना शिक्षकांचे उमाळे आयकुपा सारके आसतात! ते भावनामय जातात. ताचें कारण सांगल्यार तुमी आजाप जातले! तें कारण अशें, गोंयकार आसून लेगीत कांय विध्यार्थी आपली मांय भास इंग्लेज म्हूण सांगतात. जे गोंया भायले आसात ते जी भास घरांत उलयतात ती आपली मांय भास अशी सांगतात. वर्गांत तांकां वाचन करपाक लायलें जाल्यार आपल्याक कोंकणी सारकी बरी येना म्हूण सांगून आंग काडपाक सोदतात. तेन्ना शिक्षकांक वायट दिसले बगर रावना. एके शिक्षिकेचो अणभव हांव दिवंक सोदतां तो असो, भुरग्यान जेन्ना कोंकणी वाचूंक येना म्हूण सांगलें, तेन्ना तिणें भुरग्याक विचारलें, 'तूं घरा कडेन

खंयची भास उलयता?'

भुरग्यान जाप दिली, 'कन्नड.'

शिक्षिकेन दुसरो प्रस्न केलो, 'तुका कन्नड भास येता?'

'हय.' भुरग्यान जाप दिली.

शिक्षिकेन तिसरो प्रस्न विचारलो, 'कन्नड भास तूं कशें शिकलें? पुस्तक घेवन शिकलें?'

' ना.' ही जाप मेळ्ळी.

शिक्षिकेन मुखार जाप दितना म्हणलें, 'जेन्ना तूं पुस्तक घे नासतना आवयची भास सारकी बरी शिकपाक शकता जाल्यार पुस्तक घेवन तूं खंयचीय भास शिकपाक शकता मगो? आनी हांव आसांच न्हय तुमकां शिकोवपाक!' तिची जाप आयकून खंय तें भुरगें बुचकळ्यांत पडलें. पूण मात्से वेळान खोशयेन भरलें आनी तेन्ना सावन ते कोंकणी बरें भशेन शिकपाक लागलें. कितेंय अडचण आयली जाल्यार शिक्षिके म्हऱ्यांत येवन विचारपाक लागलें. हे तरेचे अणभव तुमकांय जायते आयल्या आसत! पूण आमी आशावादी जावन विद्यार्थ्यांक कोंकणी विशीं जागृत दवरपाचो यत्न करपाक जाय. जाल्यारूच तांकां ही भास शिकपाक आवडटली. आवय-बापाय सारकोच भुरग्यांचोय गैरसमज जाल्लो आसता. तांकां दिसता ही आमची आवय भास देखून आमकां शिकपाची गरज ना. आमी ही भास बरे तरेन उलयतात तेन्ना ती बारकायेन कित्याक शिकची? असो विचार करून वयलेचाराक शिकनात तांकां हे भाशेचो मोग आनी भाशेची रूच लावपाचें काम शिक्षकांनी करपाक जाय. जाल्यारूच शाळा-स्कुलांनी आशिल्ली अशे तरेची धारणां नश्ट जावंक पावतली आनी भुरगीं कोंकणी भास मन लावन शिकतली. दुसरी अजापाची गजाल जी आमी भुरग्यांक मुजरत सांगपाचो यत्न करूंक जाय ती अशी, धावेच्या गोवा बोर्डाचे परिक्षेक कोंकणी विशयांत पयलो येवपी विद्यार्थ्याक जीं वेग-वेगळ्या संस्थांचीं इनामां मेळटात तीं सुमारां भायलीं आसतात. ते भायर तांची तोखणाय आनी व्हडवीक गायतात ती गजाल वेगळी. कोंकणी शिक्षकांक जे तरेच्यो आडखळी येतात त्यो आनीक खंयचीय भास शिकयतल्या शिक्षकांक येना

अशें हांवें म्हणल्यार कोणेंच वायट धरचें न्हय. कोंकणी भास ही मधूर, म्हौंवाळ भास! कोणय भायलो आयल्यार रोखडीच आमची भास शिकता. पूण हीच भास जेन्ना हीं भुरगीं स्कुलांत येता तेन्ना तांकां भास शिकपाक जड कित्याक जाता हो व्हडलो प्रस्न उप्रासता. घडये तांकां (भायले प्रांतांतले विद्यार्थी) तांची भास चड आवडटा जावंये वा आमचे भाशेचो अपप्रचार जाता जावंये वा तांच्या पालकांची नदर कोंकणी भाशे वटेन नकारात्मकतायेची आसा जांवये! देखून ते आकर्शीत जायना आसत. आतां आमी शिक्षकांनी तांचे भितर कोंकणीची आवड निर्माण करपाची चड गरज. ते खातीर वेगळो विचार करून शिकोवप गरजेचें थारता. तेन्नाच भुरगे आपूण जावन कोंकणीच्या मळार वावरूंक लागतले. तीच खरी आमची गुरुदक्षणा थारतली.

दुसरी भास हिन्दी. ती शिकतना वा शिकयतना व्हडलेशे कश्ट घेवंचे पडनात. भुरगीं ती भास मनमेकळेपणान शिकतात. ती राष्ट्रीय भास जाल्ल्यान सगलें कितें आपसूक जाल्लेवरी दिसता. कित्याक तर हे भाशेचें जें कितें साहित्य शिक्षकांक गरजेचें तें हाताच्या बोटार सोदल्यार रोखडेंच मेळटा. ते भायर हे भाशेक सिनेमा आनी टीव्हीचो सांगांत मेळिल्लो कारणान तिचो प्रसार आनी प्रचार व्हड प्रमाणांत जाता, जाचो लाव ही भास शिकयतल्यांक आनी शिकतल्यांक मेळटा.

इंग्लेज ही वेव्हारीक भास जाल्ल्यान तिची चड अतिताय जाल्ली पळोवंक मेळटा. भास खंयचीय जावं, कोणेंय खंयचीय भास शिकूं येता. पूण खंयचेच भाशेचो दुस्वास करचो न्हय. खंयचेच भाशेक कमी लेखचें न्हय. दर एके भाशेचें आपलें खाशेलें अशें म्हत्व आसा. तें जपपाचो यत्न आमी करूंक जाय. सत एकूच, आमी जेन्ना मांय भाशेंत वा प्रादेशीक भाशेंत शिक्षण घेता तेन्ना तें रोखडेंच समजता. मेंदवाचें विचार चक्र घुंवपाक लागता. म्हूण विद्यार्थ्यानीं तुमी मन लावन कोंकणी भास वाचात, शिकात आनी बरयात. कोंकणी मनां रंग-रंगयाळ्या लेखनानी आनी कवनानी सोबयात!

***

# विचार करून मुखा वयलें पावल घालात..!

कृष्ण-लिला जश्यो जगजाहीर आसात, तेच परी तांचो उपदेश लेगीत तितलोच प्रसिद्द आनी म्हत्वाचो आसा. तांचो उपदेश आमी आमचे जिणेंत आपणायलो जाल्यार आमचें जिवीत सफळ जातलें हातूंत मातूय दुबाव ना. कुरुक्षेत्रार जेन्ना अर्जून कौरवां आड झुजपाक उबो रावलो तेन्ना अर्जून सामको गळसणून पडलो. आपल्या रगताच्या नात्या आड आनी गुरू प्रमाण श्रेश्ठ आशिल्ल्या लोकां आड आपूण कसो झुजतलों हें चिंतून तो खंती जालो. तेन्ना कृष्णान ताका गीता पटोवन सांगली आनी मुखार सांगतना म्हणलें, 'मनशान आपलें कर्म करीत रावचें फळाची अपेक्षा करची न्हय. परिणाम कितेंय जावं ताची पर्वा तूं करूं नाका. विचार कर आनी मुखा वयलें पावल घाल.'

विचार करपाची तांक सगल्यांत आसा. देवान ती जण एकल्याक फाव केल्या. बरी विचारसरणी आसत, बरी करणी आपल्या हातांतल्यान घडूंक पावता. वायट विचार सरणी आसत तर दुश्कर्म मनशाच्या हातान घडटा देखून कृष्णाची सांगणी याद दवरून वावरत तर जिणेचें सार्थक जातलें अशें म्हणचे पडटलें! कसलेंय काम करचे पयलीं ताचेर बारीकसाणेन विचार करप गरजेचें थारता. तशें केल्ल्यान त्या-त्या कामाचो मातसो अदमास मेळूंक शकता आनी तें काम बरे तरेन फुडें व्हरपाक वाव मेळटा. कृष्णान सांगिल्लो हो गीतेंतलो श्लोक आमकां मनशांक चड म्हत्वाचो जावन आसा, अशें हांव समजतां.

**कर्मण्येवाधिकारस्ते मा फलेषु कदाचन।**
**मा कर्मफलहेतुर्भूर्मा ते संगोस्त्वकर्मणी।।**

हाचो अर्थ असो, मनशाक फकत कर्म करपाचो अधिकार आसा, फळाची चिंता ताणें करप न्हय. देखून तुज्या कामाच्या फळाची अपेक्षा तूं धरूं नाका. तशेंच आपल्या कर्मा पासून पयस तूं वचूं नाका. काम करचे वेळार आमी ताचो फायदो कितें जातलो हें पयलीं पळयतात आनी काम करता आसतना मुखार कितें जातलें

हें चिंतूंक लागतात. मनाक जाय तशें जालें ना जाल्यार आमी दुख्खी आनी निराश जातात. पुणून आमी काम करचे पयलीं ताचेर विचार केल्लो आसत तर आमच्यो शंका पयस जातल्यो आशिल्ल्यो. तेच परी निश्ठेन काम करीत रावल्ले जाल्यार तें करतना आमकां खोशी लेगीत मेळटली आशिल्ली. दुसरे ओळींत सांगलां तें अशें, आमी आळशीपणां करपाक जायनांत तशेंच कामाचें फळ कितें आसतलें हें येवजप आनी काम करी नासतना फळाची अपेक्षा करप दोनूय तितल्योच वायट गजाली जावन आसात. फळाची अपेक्षा करी नासतना कर्म करीत रावले जाल्यार सूख-दुख्खाचें बंधन लेगीत पयस जावंक पावतलें. आयज जण एकल्यान कृष्ण बोध आयकुपाची गरज उप्रासल्या. कोविड 19 धामीक लागून सगले वेव्हार ठप्प जाल्ले कडेन आशिल्ले ते इल्ले-इल्ले आतां सुरू जावंक लागल्यात. देखून जायते जाण नोकरी वा वेवसाय करपाचो बेत करपाचे तयारेक लागिल्ले आसत तर त्या तरणाट्यांक हांव एक गजाल सांगपाक सोदतां ती म्हणल्यार तुमी सकारात्मक विचार करून पावल मारात. कितें तरी वेगळें आनी बरें करून दाखोवपाचो हावेस मनांत बाळगप गरजेचो आसता. त्या हावेसाच्या बळग्यार मनीस तड मारूंक शकतात. नव्यो-नव्यो गजाली शिकपाची आवड आसत तर ताचो फायदो जावपाची दाट शक्यताय आसता. कोंकणींत एक म्हण आसा 'दुसऱ्याचे रांदनीर आदन दवरप' म्हणल्यार दुसऱ्याच्या खुस्तार मजा करप. अशें जावपाक फावना. जण एकल्यान आपले कुवती प्रमाण विचार करून पावल घालें तर सफळताय मेळटलीच. मनशांच्या मनांत विचार तर सदांच घोळटात. दिसाचे चोवीस तास मनीस विचार करीत आसता. हे विचार हयकारी जाले तर? ताचे वरवीं बऱ्यो गजाली घडटल्यो अशें म्हाका सांगचें शें दिसता. जेन्ना भुरगे धावी पास जावन कॉलेजीक दाखलो मेळयतात तेन्ना सारको बरो विचार जावपाक जाय. आमी चडशे पळयतात, सगल्यांक विज्ञान शाखेंत दाखलो जाय आसता. सगलेच दोतोर आनी इंजिनीयर जावपाचीं सपनां पळयतात आनी दाखलो मेळोवपा खातीर वशिलेबाजी करतात. सारको बरो विचार करून दाखलो घेत जाल्यार शिकप बरें मजेशीर जावन ताचो फायदो चड आनी लुकसाण कमी जाता हें हांव एक शिक्षक हे नात्यान सांगपाक शकतां. हांव

जाणां ते प्रमाण चडशीं भुरगीं आपलो इश्ट जे विशय घेतात तेच घेवपाक सोदतात. तशें केल्ल्यान फुडाराक तांकां अपेस येता. देखून हे बाबतींत कृष्णाचो सल्लो आपणावची चड गरज आसा. जे विशय आपल्याक बरे तरेन समजतात वा जे विशय आपले आवडीचे, तेच विशय घेवंचे. अशें केल्ल्यान शिकप सोंपें जाता. एक गजाल सारकी जाली जाल्यार ताचेर आदारीत बाकीं सगलीं कामां बेस बरीं जावंक पावतात. ना जाल्यार मागीर तकलेर हात मारून घेवपाची पाळी येता.

मनीस जेन्ना विचार करपाक लागता तेन्ना दोन तरेचे विचार ताच्या मनांत घोळटात. एक हयकारी तर दुसरो न्हयकारी. तेन्ना पयल्या विचारांचो आदार घेवंक जाय. तशें जालें जाल्यार जिणेंत बऱ्योच फायद्याच्यो गजाली घडत रावतल्यो. बरे विचार खंय मनशाचो फुडार बदलूंक शकता. ताका सूख दिण्यो गजाली आयकूंक मेळटात. ताचे वांगडा वावुरपी लेगीत खुशालकायेन वावुरतात. मन प्रसन्न उरता. लोकां कडल्यान रेस्पेद मेळटा. केदेंय व्हड संकश्ट जरी आयलें, त्या संकश्टाक तोंड दिवपाचें बळगें मनांत तयार जाता. हाकाच लागून कृष्ण देख दितना म्हणटा, 'तुमी विचार करात आनी पळयात. मनशाचे तकलेंत हजार विचार चलत आसतात. ते केन्नाच म्हूण बंद पडनात. धर्तरी जशी चंद्रा भोंवतणी घुंवत आसता तसो मनशाचो मेंदू कितें ना कितें चिंतीत आसता, जाका लागून केन्ना केन्नाय मनशाची भलायकी इबाडटा. तेदे वेळार वखद विसर्दा बराबर मनार कसलोच ताण घेवंक जायना. मन शांत दवरून वावरत तर तो कठीण वेळ पासार जावन जीण परत व्यवस्थीत जाता म्हणपाचे हांवें अणभवलां. मनशाची जीण मुखार व्हरतले जाल्यार दोन वाटो आसात. एक सतमार्ग आनी दुसरो फर्टाचो. जण एकल्यान आप-आपलो मार्ग थारावपाचो. कोणाचेरूच कसलेंच बंधन आसना. पूण त्या-त्या मार्गा वेल्यान वतना मनशांक वायट बऱ्या गजालींचो अणभव आयल्या बगर रावना. सगल्या गजालींचो विचार करात आनी आपलो मार्ग थारायात. यश आनी अपेस आमच्याच हातांत आसता म्हणपाचें आमी याद दवरुंया!

***

# खरो समाज सेवक!

म्हज्या एका इश्टान अणभविल्ली ही सत्य कथा. फाटल्या देजेंब्रांत ताची दिल्ली सावन सिक्कीमाक बदली जाली आनी तो थंयचे केथॉलिक मिशिनरी स्कुलांत शिकोवंक रुजू जालो. दोंगराळ वाठार आशिल्ल्यान बरोच मागासलेलो गांव आसा अशें म्हज्या इश्टाचें मत गांव पळयतकच जालें. ते भायर तो राजधानी दिल्लींत रावन आयिल्लो. तेन्ना अश्या खेडें गांवांत दीस काडप ताका सोंपे नाशिल्लें. हेय परिस्थितींत तो आपले शाळेंत नेमान वावरूंक लागलो. फाटले सुमानांत एक दीस तो शारांत गेल्लो. आपलें काम आटापा हाडून परतुपाक एके बशींत चडलो. बशींतली गर्दी पळोवन काचाबूल जालो. ताणें मनांत म्हणलें, दुसरी बस येत मेरेन वाट पळोवंक जाय आशिल्ली. हांगा बसपाची सुवात सोडूच धड उबो रावंक लेगीत कठीण! कोणूय कोरोना बाधीत आसत तर ! हो विचार मनांत येवन तो खासावीस जालो. इतल्यांत एकलो उठलो आनी ताणें म्हज्या इश्टाक बसपाक सुवात दिली. तो बशींतल्यान देंवलो ना.मुखार वचून उबो रावलो. इश्ट ताका दुबावान पळयतालो. फुडल्या थांब्यार लोक देंवले उपरांत तो ते सुवातेर बसलो. तीन चार फावट तरी ताणें तशेंच केलें. तो उठून आपली सुवात दुसऱ्याक दितालो.

बशींतले सगले लोक जेन्ना देंवले तेन्ना म्हज्या इश्टान ताका विचारलें, 'तूं हें अशें कित्याक करतालो?' काय म्हण. तेन्ना ताणें जाप दिली, 'हांव चड शिकूंक ना, म्हजे कडेन लोकांची सेवा करपाक पयशेय नात. हांव कामांक वतां. सांजवेळार घरा परततना हांव असोच लोकांची मजत करतां. तुका जेन्ना हांवें बसपाक दिलें, तुवें म्हाका देव बरें करूं म्हणलें तेन्ना म्हाका मळब भर खोशी जाली. अशें केल्ल्यान म्हाका म्हजे कामाचें फळ मेळटा अशें हांव समजतां. ते भायर समाजसेवा केल्ल्याचें समाधान मेळटा. हाचे शिवाय हांव आनीक कांय दिवंक शकना म्हूण हें काम हांव सदांच करतां.' ताणें मुखार

सांगलें,' थोडो वेळ हांव उबो उरतां. पूण कामांक सावन घरा परतुपी थकिल्ल्या मनशांक म्हजो आधार अशे तरेन भेटयतां!'

म्हजो इश्ट ताचे तोंडाक पळयत उरलो. ताची निस्वार्थ सेवा करपाची वेगळी तरा पळोवन म्हज्या इश्टाचें मन भरून आयलें. खरी समाजसेवा ही अशी! आमीय वेळा-काळार हेरांक मजत करपाची तयारी दवरुंया. जाता ते परी एके वेगळे तरेन लोकांची सेवा करुंया!

***

# करची इश्टागत शिम–मेर नाशिल्ली !

इश्टागत हें उतर कानार पडटकच जण एकल्याच्या तोंडार हांसो फांकता. कित्याक तर हें उतरूच मनाक थाकाय दिता, मळबा वरी बळगें दिता. आत्मविश्वास आनी सांगात दिवपी इश्टाची याद करून दिता.

ल्हान भुरग्या पसून ते जाणट्या मेरेन सगल्यांचे इश्ट आसतात. ते जिणेंत रंग भरतात. केन्ना सुखाचे तर केन्ना दुख्खाचे! आनीक केन्नाय मौज–मस्तीचे, रागार आनी फुगार जावपाचे! हास्यविनोदी खीण तर दर्याचे ल्हारांवरी इश्टागतींत उफेतात आनी खिणांत नाच्च जातात. इश्टागत तिगोवन दवरपाक असल्या खिणांची भोव गरज आसता. म्हाका याद जाता म्हज्या भुरगेपणा वयल्या इश्टांची. अनील, सुभाष, संदीप, सुर्यकांत, प्रकाश, प्रदीप अशे सगले आमी वांगडा शिकप पुराय करता आसतनाच वेग–वेगळ्या खेळां वांगडा हेर बऱ्यो वायट गजालीय सांगातान करताले. तेच परी एका–मेकांक आदार करपाचीय वृत्ती आमची आशिल्ली. इश्टां बगर मनीस एकमुळो उरता. ताका पूर्णताय येना. एक इश्टूच मनशाचे अडी अडचणींत मजत करपाक फुडें सरता आनी ताच्या नाड्यार आमी संवसारांतलें कितलेंय कठीण कार्य करूंक शकतात. इश्टाचो सांगात बरो आसत तर आमी हेरांक मान–सम्मान दिवंक शिकतात, आपल्यो वस्तू आनी सूख दुख्ख हेरां लागी वाटूंक शिकतात. तशेंच वायट बरे गूण लेगीत इश्टागतीनूच आमी शिकतात. पूण कांय इश्ट अशे आसतात, जे बरी आनी खरी देख दिवन वायट मार्गान वचपी आपल्या इश्टाक सरळ मार्गार हाडपाचें सत्कर्म लेगीत करतात. दोश कोणांत आसना? तो तर आमचोच एक भाग! जण एका मनशा भितर बरे तशेच वायटूय गूण आसपाक जाय. जे तरेन आमी गोड जिनसा बराबर तिखट आनी कोडसाण लेगीत खातात, जी भलायकेक बरी अशें आमी मानतात. तेच परी बरे आनी वायट गूण आशिल्लो इश्ट लेगीत आसप गरजेचो अशें म्हाका सांगन दिसता. मनशाक आपल्या

सुखांत आनी दुख्खांत वांटेकार जावंक एक इश्ट जायच पडटा. आपले जिणेचें सार्थक करतलो जाल्यार मनीसपणाचो तोल सांबाळून सोबीत जीण रंगोवंक एका-मेकाची गरज पडटा. ती गरज एक बरो इश्ट जावन पुराय करूं येता.

एका राज्यांत खंय एक राजा रावतालो! तो एका दोळ्यान कुड्डो आनी एका पांयान लंगडो आशिल्लो. पूण आपले प्रजेचेर खूब माया आनी म ोग करतालो. तांकां कितें जाय नाका हें बारीकसाणेन पळयतालो. तांच्यो अडी-अडचणी पयस करतालो. प्रजा लेगीत ताचो अभिमान बाळगिताली. एक बरो राज्यकर्तो म्हूण ताणें नामना मेळयिल्ली. एक फावट ताणें आपलें चित्र काडून घेवपाचें थारायलें. म्हूण ताणें राज्यांतल्या चित्रकारांक आपोवणें धाडलें. बऱ्यांतले बरे चित्रकार दरबारांत आयले तेन्ना राजान हात जोडून तांकां विनवणी केली, 'तुमचे पयकी जो कोण म्हजें एक सुंदर चित्र काडटलो ताका हांव इनाम दितलों. तें चित्र हांव ह्या दरबारांत लायतलों.' राजाचें फर्मान आयकून सगले चित्रकार चिंतूंक पडले, राजा तर कुड्डो आनी लुळो. तसोच तो दिसूंक कुरूप. सुंदर चित्र कशें काडप? कोणूच मुखार आयलो ना. निमणो फाटल्यान उबो आशिल्लो एक तरणाटो चित्रकार मुखार येवन राजाक म्हणपाक लागलो, 'हांव तुमचें सुंदर चित्र काडटां. तें तुमकां जरूर आवडटलें असो म्हाका विस्वास आसा.' अशें सांगून तो आपलें चित्रकारीचे सामान घेवन एके कुशीक गेलो आनी राजाचें चित्र काडपाक लागलो. बऱ्या वेळान ताणें चित्र पुराय केलें. तें पळोवन राजा खोशी जालो. हेर चित्रकार मात एका-मेकाच्या तोंडाक पळयतच उरले. एका-मेकाकडेन फुतफुतूंक लागले, 'हाणें अशें कशें सुंदर चित्र काडलें?' असो प्रस्न तांकां पडलो. पूण जेन्ना चित्र पळयलें तेन्ना ते लेगीत अजाप जाले. चित्रकारान आपले कुशळतायेन राजाक सुंदरताय प्रदान केल्ली ती अशी.

ताणें चित्रांत राजाक दिमी मोडून जमनीर बसयल्लो आनी एक दोळो बंद करून सावजाची शिकार करूंक नेम धरता अशें सोबीत चित्र काडिल्लें. ताणें कितें केलें जायत तर राजाचो दोश लिपोवन ताका सुंदरतायेचो रंग चडयलो.

जसो एक इश्ट आपल्या इश्टाचो दोश पयस करूंक वावुरता तोच खरो इश्ट जावंक पावता. चित्रकारान तेंच केल्लें. राजान ताका इनाम दिवन ताचो भोवमान केलो. आयज इश्टागतीक अशे तरेच्या चित्रकाराची गरज आसा. कित्याक तर जण एकलो इश्टागत जोडून आपलो फायदो कसो जातलो तें पळयता. आमी एक दुसऱ्याचे गूण तोखेनात. वायट केलें जाल्यार गांवभर पेरगांव घालतात. पूण बरें काम केल्ल्याची तोखणाय फाव तशी करी नात. अवगुणांचो मात तिरस्कार करूंक पळयतात. समाजांत जियेता आसतना मनशांक गूण आवगूण आशिल्ले मनीस मेळटलेच हातूंत दुबाव ना! आमी एक गजाल करूं येता ती म्हणल्यार गूण अवगुणांचो सुमेळ घडोवन हाडप. बऱ्या इश्टाची संगत आसत तर मनांत विचार लेगीत सकारात्मक जावन उदरगतीचो मार्ग मेळपाची दाट शक्यताय आसता.

तुमी म्हणटले तशें जाल्यार इश्टागत कोणाकडेन करची तर! इश्टागत कोणेय कोणायकडेन करची. दादल्यान बायलेकडेन, जाणट्यान तरणाट्याकडेन, धुवेन आवयकडेन, पुतान बापायकडेन, नातवान आज्याकडेन. इशटागतींत पिरायेची वा गरीब श्रीमंतीचीं कसलींच बंधना आसपाक फावनात. जाल्यारच इश्टागत फुलत रावता. इश्टागतीक आनीक खंयचेंच नातें लागना, ते नात्यान आमी कसलीय गजाल एका-मेकांक सांगपाक शकतात आनी आमचे प्रस्न सुटावे करूं येतात. इश्टागतींत भेद-भाव नासतात हें जरी खरें आसलें तरी पूण इश्ट दोन तरेचे आसतात. एक जो गरज आसता तेन्ना दोळ्या आड वता आनी दुसरो जो इश्टाच्या सहवासाक आशेल्लो आसता. इश्टागतींत असले गजालीक व्हडलेंशें म्हत्व नासता. म्हत्व आसता तें एकेमेकाक सांगात करप, सुख-दूख वांटून घेवप, आदाराक पावप, बरो आनी सरळ मार्ग आपणावप.

***

# अशीय एक काणी नाताळाची!

वर्स आशिल्लें 1994. अमेरिकेच्या दोग शिक्षकांक रूस देशांतल्यान थंय अनाथाश्रमांत शिकतल्या गरीब आनी आवय-बापूय नाशिल्ल्या भुरग्यांक निती मुल्यांचेर आदारीत कार्यशाळा घेवपाक आमंत्रण दिल्लें. चले आनी चलयो मेळून सुमार शंबर भुरगीं त्या गटांत आशिल्लीं. ही कार्यशाळा अश्या अनाथ भुरग्यां खातीर घडोवन हाडिल्ली, जे कसले ना कसले अत्याचाराचे पिडीत आशिल्ले. तीं बेवारशी भुरगीं. तांणी अशे तरेची कार्यशाळा केन्ना पळोवंक नाशिल्ली, ना ते केन्ना वांटेकार जाल्ले. तेच परी तांचें नितिमुल्यांचेर मात्तूय शिक्षण जावंक नाशिल्लें. आनीक एक गजाल म्हणल्यार त्या भुरग्यांनी काणयो लेगीत केन्ना आयकूंक नाशिल्ल्यो. अश्या भुरग्यांक हाताळप म्हणल्यार एक व्हड आव्हान म्हज्या दोगां इश्टां मुखार आशिल्लें. पयले सुवातेर भुरग्यांचो विस्वास जिखूंक जाय आशिल्लो. तो तांणी आपल्या सुरेल गायनांत करून दाखयलो. मागीर तांणी भुरग्यांक मदर मेरीची काणी सांगपाक सुरवात केली. अजापाची गजाल म्हणल्यार सगलीं जाणां काणी आयकुपाक सामकीं गुल्ल जालीं. इतलेंच न्हय तर थंयचो पुराय कर्मचारी आनी शिक्षक गट लेगीत आप-आपलीं कामां सोडून सुवात मेळटा थंय बसून काणी आयकुपाक लागलीं. तांकां मारिया आनी जोसफ कशे तरेन बेथलेहेम हांगा पावलीं, मागीर जेजूक जल्म दिवंक सुवात सोदपाक भोंवलीं पूण तांकां सुवात मेळ्ळी ना, भोव कश्टान म्हणटा तशें निमणें मारियान एका गोठ्यांत जेजूक जल्म दिलो... काणी इतले मेरेन सांगली. ताचे उपरांत सगल्या भुरग्यांक बाळक येशूचो तणाचो गोठो तयार करूंक सांगलें. जण एकल्याक पुठ्ठ्याचे तीन कुडके आनी एक-एक चौकोनी कागदाचो कुडको दिलो हळदुव्या कोराचो. तांकां कितें करपाक जाय आशिल्लें ताच्यो सुचोवण्यो लेगीत केल्यो. ते प्रमाण तांणी कागदाच्यो लांबट शिरो केल्यो आनी तणाचेर पातळायल्यो. एक बायल जी अमेरिकेची नागरीक

आशिल्ली ती कांय पोरणी खोमसां घेवन कोयरा आयदनांत उडवंक वताली. तिच्या म्हऱ्यांत हीं भुरगीं धांवत गेलीं आनी ती पोरणी मुस्तायकी घेवन आयली आनी गोठो करपाक ताचोय उपेग करपाक गुंतलीं. सगलीं जाणां आप-आपले परीन बऱ्यांतलो बरो गोठो करपांत गुल्ल जालीं. दोगांय प्रशिक्षक भुरग्यांचेर नदर दवरून आशिल्ले. इतल्यांत तांची नदर एका भुरग्याचेर पडली, जो सुमार स वर्सां पिरायेचो आसपाक जाय. ताचें नांव आशिल्लें मिशा. ताचो गोठो करून जाल्लो. लागसार वचून पळयत जाल्यार ताणें दोन भुरगीं गोठ्यांत दवरिल्लीं. तें पळयना बराबर म्हज्या इश्टान दुभाशी सहायकाक आपयलो आनी मिशाक दोन भुरगीं कित्याक दवरल्यांत तें विचारपाक लायलें. त्या भुरग्यांक इग्लेज भास येनाशिल्ली. तांकां फकत तांची भास रुसी येताली देखून दुभाशीचो पालव घेवंचो पडटालो. अनुवादकान जेन्ना मिशाक विचारलें, तुवें दोन भुरगीं कित्याक दवरल्यांत काय म्हूण तेन्ना मिशान जाप दीत पुराय काणी तांकां जशी समजली तशीशी सारकी बरी सांगली. जेन्ना मेरीन बाळक गोठ्यांत दवरलो तेन्ना मात काणयेंत बदल जाल्लो. ती काणी मिशाची आपली काणी जाल्ली. ताचे दोळे भरून आयल्ले. ताणें मुखार सांगलें, मदर मेरीन जेन्ना बाळक जेजूक गोठ्यांत दवरलो तेन्ना जेजून म्हाका पळोवन विचारल्लें, 'तुजें घर खंय?' हांवें सांगलें, 'म्हाका घर ना, म्हाका आवय आनी बापूय लेगीत ना.' ही जाप आयकून येशून म्हणलें, 'तूं म्हज्या वांगडा राव.' ते उतराक हांवें सांगलें, 'म्हजे कडेन तुका दिवंक भेट वस्तू ना. कित्याक तर तुका सगले भेट वस्तू घेवन येतात. म्हाका येशू म्हऱ्यांत रावपाचें आशिल्लें खरें पूण भेट दिवंक नाशिल्ली देखून हांवें थारायलें म्हजे लागीं जें आसा तेंच हांव ताका दितलों. म्हण, हांवें म्हणलें, 'हांव तुका थंडे पसून वाटावंक शकलों जाल्यार ती भेट तुका मान्य आसा?' येशून जाप दितना म्हणलें, 'तूं जर म्हाका थंडाये पसून वाटयत तर ती तुजी भेट हांव मानून घेतां.' देखून हांव येशू म्हऱ्यांत वचून बसलों ताका उब दिवपाक. म्हाका ताणें आपणायलो आनी म्हणलें, 'तूं सदांच म्हज्या म्हऱ्यांत रावतलो.'

मिशान सांगिल्ली काणी सोंपली पूण ताच्या दोळ्यांतल्यान गळपी दुकां

थांबूक नाशिल्लीं. गाला वयल्यान दुकां गळटालीं. धाकल्या मिशा येशू म्हऱ्यांत आशिल्लो देखून आतां कोणूच ताका पिडूंक पावचो नाशिल्लो. ताचेर आतां अत्याचार जावंचे नाशिल्ले. ताका देवाचो आदार मेळिल्लो. जण एका मनशा लागीं कितलें धन आसा ताचेर जीण सुखी काय दुखी हें थारना. पूण मनशाचे जिणेंत कोण कसले मनीस बऱ्या काय वायट गुणांचे हाचेर ताची खुशालकाय थारता. समाजांत जेन्ना लोकांचें शोशण करपी दैत्य रुपी लोकांची वाड जाता, गरीब दुबळ्यांक पिडपी अशे बळिश्ट तयार जातात, राजा जेन्ना दुर्जनांक पालव दिता आनी प्रजेक पिडा-पीड करता तेन्ना तांचो नाश करपाक देव अवतार घेवन जल्माक येता. देवान मनशाक रचलो तेन्ना ताणें ताचे भितर सगले तरेचे गूण आनी अवगूण घालून ताका हे धर्तरेर हाडलो. ताणें आपल्याक गरज पडटा तशे ते गूण वा अवगूण आपणावचे. घडये देवाचो होच एक हेत आसूं येता. पूण मनशान जेन्ना-जेन्ना अवगुणांचो फायदो घेतलो तेन्ना तेन्ना देवान मनशाक सकयल्या पांवड्यार उडयल्लो आमी पळयला. जो मेरेन मनीस वायट कर्म करपाची वृत्ती सोडिना, ताचे भितरलें मनीसपण ना जावन तो दुराचार करीत रावता, सैमाच्या नेमां आड वागता आनी सगल्यांचें लुकसाण करून घेता. अश्या वेळार मनशाच्या स्वभावाची साफ-सफाय करपाची गरज उप्रासता. जे तरेन आमी घरांतलो कोयर निवळ नितळ करीनात, तो मेरेन आमचे जिणेक तो कोयर घातक ठरूं येता. तेच परी आमची कूड न्हावन धुवन नितळ दवरली ना जाल्यार लेगीत आमी दुयेंत पडूं येतात. होच नेम हांगा लागू पडटा. म्हेळी मुस्तायकी उमळली ना जाल्यार ती सामकी बुरशी जाता. ताचो परिणाम आमचे भलायकेचेर जावं येता. ही साफ-सफाय करपाची क्रिया बंद पडली वा तिची गती कमी जाली जाल्यार समाजांत दुराचार आनी अत्याचार वाडत रावता. देखून आमी भुरग्यांक नितीमुल्यांचेर आदारीत काणयो सांगून बरे संस्कार तांच्यांत रुजोवपाचो यत्न करूंक जाय अशें म्हाका सदांच दिसता.

***

# मनशाचे इत्सेक अंत नासता!

कोणूय एकाद्रो जर तरणे पिरायेर भायर पडत तर ताणें मनांत बाळगिल्ल्यो इत्सा अपूर्ण उरतात खंय! आनी ताच्या आत्म्याक मोक्ष मेळना अशें मानपी जायते लोक संवसारांत आसात. आमी जरी संगणक युगांत जियेतात, सुचना आनी प्रोद्योगिकी दशकात जियेतात, नवे-नवे सोद आमी लायतात पूण कांय प्रमाणांत आमी पोरणे विचार सोडपाक तयार आसनात. बाजारांत एकाद्री नवीन वस्त आयली जाल्यार ती आमी रोखडीच विकती घेतात आनी वापरतात. ती उजार करूंक आमी रोखडेच तयार जातात. पूण नवी विचारसरणी आनी नव्यो चाली आमी आपणावपाक फुडाकार कित्याक घेनात? घरा भायर सरतना काळें माजर मुखार आयलें जाल्यार तीन पावलां फाटीं वचूंकच जाय ह्यो अश्यो आनीक जायत्यो गजाली आसात जाचेर विचार जावंक जाय अशें म्हाका दिसता.

जण एक मनीस आप-आपले आचार-विचारां प्रमाण जियेता. तांणी आपले इत्से प्रमाणूच जगचें हातूंत मात लेगीत दुमत ना. पूण जर कोणाची इत्सा पुराय जाय नासतना ताका बाबड्याक मरण आयलें तर ताचो आत्मो भटकत रावता म्हणटात हातूंत तथ्य ना अशें म्हाका दिसता.

देवान आंमकां जितली पिराय दिल्या तितले मेरेन आमी जगतलेच अशेंय कांय जाण मानतात. हाचेर म्हजोय विश्वास आसा, देखून कोणूय असो जाचीं सपनां साकार जावंक पावलीं नात, आनी ऐन पिरायेर संवसार सोडचो पडलो जाल्यार मात ताच्या घरच्यांक तो गेल्ल्याचें दुख्ख तर जाताच पूण मागीर कोणें-कोणें सुचयल्ले उपाय, मोक्ष मेळपा खातीर करचे पडटात तातूंत तांचो जीव सामको काबार जाता.

आमचें दायज, आमची संस्कृताय आनी आमचे संस्कार आमी सांबाळपाची गरज आसा. पूण नसत्यो भोगावळी आनी आडंबरां करचीं न्हय. गेलो त्या

मनशाचो कितें दोश? ताका बाबड्याक दुशण कित्याक दिवंचें? ताका मोक्ष मेळूं म्हण देवा लागीं मागणी आनी प्रार्थना अवश्य करची. पूण करचीं न्हय कर्मकांडां! तें कर्म करपी लेगीत ढोंगी बाबा आसतात. सादे-भोळे लोक दिसले म्हणटकच तांचें काम सादून घेवंक ते तयार आसतात.

मनशाच्यो इत्सा कसल्यो-कसल्यो आसूं येतात आनी त्यो कश्यो पुराय करूं येतात हाचेर संशोधन जावं येता असो हो विस्तारीत विशय. हांगा हांवें फकत धन, संपत्ती वा पयशेकार जावपाची इत्सा पुराय जायना जाल्यार मनीस कसो निराश जाता हाचो विचार केला. ही इत्सा जण एकलो पुराय करूंक पळयता. ते खातीर घाम गळोवन वावुरता. मेळना जाल्यार कश्टी जाता. हिवूय गजाल तितलीच खरी! पयशां बगर मनशाक मोल आसना. हांव म्हणना पयशां फाटल्यान वचूं नाकात, वचूंकच जाय. पयशां बगर जिणेंत तथ्य उरना. पूण कितलो पयसो? तेंच परी पयसो-लत्तो मेळोवपाक आडमार्ग कित्याक आपणावचो? आडमार्गान वचपी मनीस केन्ना तरी फोंडांत पडटले हेंय आमी जाणांत. ही एक प्रखर इत्सा सगल्यांचीच जावन आसा. ताचे उपरांत हेर सगल्यो इत्सा एका-फाटल्यान एक. आमी मागीर त्योय पुराय करपाचे वाटेर धांवतात, पडटात, उठून उबे रावतात. तर कांय जाण जमनी भरवण जातात. हे तरेचे इत्सेचें कोडें कोणाच्यान सोडोवंक जावंचें ना. कित्याक तर मनशाच्यो इत्सा वाडत रावतात. तांकां अंत नासता.

हांगा म्हाका नामनेचे रुसी लेखक लियो तोल्सतॉय हांची एक काणी याद जाता. How much land does the man needs ही एक अशी काणी जावन आसा, जी मनशाची अती इत्सा आनी चडांत चड मेळोवपाची वान्सा मनशाचो प्राण लेगीत घेवंक शकता म्हणपाचें आमकां दाखोवन दिता.

पाहोम नावाचो एक शेतकामती आपल्या इल्लेस्या शेतांत वावुरतालो आनी बारीक-सारीक पीक घेतालो. एकदा एक संन्यासी तागेर आयिल्लो. ताणें पाहोमाक म्हणलें, 'तूं सायबेरियाक कित्याक वचना? थंय शेतां खातीर बरीच सवाय जमीन मेळटा. खरें सांगपाचें जाल्यार थंय जमीन फुकटच मेळटा. हांगा

सरली ही इल्लीशी जमीन-जायदाद विकून उडय आनी थंय वच. थंय हजारांनी एकर जमीन सवाय मेळटली. थंयचे लोक लेगीत सादे सरळ वागपी. फुकट लेगीत जमीन दिवंक तयार आसतात.'

पाहोमान ही गजाल आयकून निश्चेव केलो, आपूण सायबेरियांत वतलों. थंय जमीन घेवन व्हडलो शेतकार जातलों. म्हजी इत्सा पुराय करतलों. तो आपलें घर-दार, शेत-भात सगलें विकून सायबेरियाक पावलो. तेन्ना ताका संन्याश्यान सांगिल्ली गजाल खरी म्हूण कळ्ळी. ताणें वासपूस करतकूच कळ्ळें जमीन सामकी सवाय! एकूच अट आशिल्ली ती अशी, ज्या जाग्यार थावन जमीन मापपाक सुरवात करतात, तेच सुवातेर परत येवप. सुर्यास्त जावचे पयलीं जितली जमीन माड्डीत परत येता तितली सगली जमीन आपणाली जाता. ही गजाल कळना बराबर चडांत चड जमीन मेळोवपाची इत्सा ताका जाली. तो दीस भर जमीन मापीत चलत रावलो. धांवत रावलो. जेन्ना परतीची वाट धरली तेन्ना कळाव जाल्लो. तो वेळार पावना जालो. तो परत धांव-धांव धांवलो. सकयल पडलो. तरी आसतना तो पोट ओडीत-ओडीत ते सुवातेर पावलो. तेन्नाच सुर्य अस्ताक गेलो. पूण तो मनीस माड्डील्ली जमीन घेवंक जगलो ना. ताका थंयच मरण आयलें. मनशाची इत्सा ही अशी. ती पुराय करपाक साधना करची पडटा. कश्ट घेवंचे पडटात. पाशियेंस काडचें पडटा. तेन्ना एकाद्रे मनशाची इत्सा पुराय जावंक पावता. मनशान इत्सा बाळगुची. अती इत्सा न्हय. पयशे मेळोवपाचे इत्शेंत आमी आमची भलायकी इबाडून बसतात, वायट मार्गाक लागतात. ते वेळार शितिमेंत आसना. जेन्ना कळपाक लागता तेन्ना बरोच कळाव जाल्लो आसता. देखून जण एकल्यान विचार करून पावल घालचें. होच एक निश्चेव करून नवें पावल मारूं येता.

***

# आमच्या नात्यातलीं अपुर्बायेचीं नांवां सांबाळून दवरात!

संवसारभर नामना जोडिल्ले लेखक शेक्सपियर हांणी म्हणलां 'नांवांत कितें आसा?' देखीक गुलाबाक आमी आनीक खंयच्याय फुलाच्या नांवान उलो मारल्यार लेगीत गुलाब आपलो सदचोच परमळ फांकायतलें. दुसऱ्या खंयच्याय नांवान उलो मारल्यार ताचो परमळ आनी ताचें खाशेलेपण बदलचें ना अशें लेखकाचें म्हणणें आशिल्लें. बारीकसाणेन पळयत तर नावांतूच सगलें कितें आसा म्हणपाचें आमी जाणांत. जण एकल्याचें नांव ताका खाशेलेपण दिता. त्याच नांवान लोक त्या मनशाक वळखतात. नांव तें, जावं मागीर मनशाचें, वस्तुचें, गांवचें वा शाराचें नाजाल्यार तें खंयच्याय देशाचें आसूं येता! नांव घेतलें म्हणटकीर कळटा कोणा बद्दल उलयतात वा जाका पाचारून ताचे बद्दल उलयतात तेंय कळटा. नांव नाशिल्ली वस्त केन्ना कोणें पळयल्या व्हय? नांव नाशिल्लो मनीस केन्ना कोणाक मेळ्ळा आसत अशेंय ना, तशें केन्नाच जावंचें ना. नांव नाशिल्ली वस्त संवसारभर सोदल्यार लेगीत मेळची ना म्हण आमी जाणांत. देखून असल्यो गजाली फाजीलपणाच्यो थारतात.

आतां प्रस्न उप्रासता नात्यांतल्या नांवांचो!

आमचे कोंकणींत सोबीत आनी सुंदर अशीं नात्यांतलीं नांवां आसतना आमी इंग्लेजींलीं नांवां कित्याक उजार करतात काय? म्हण म्हाका दिपाली नाईक हे शिक्षिकेन प्रस्न केलो. तेन्ना हांव मात्सो बुचकळ्यांत पडलों. खरेंच आमचीं अपुर्बायेचीं नांवां आसतना आमी परके भाशेंतल्या नांवांनी कित्याक पाचारतात काय? हो प्रस्न म्हजे तकलेंत कांय दीस घुंवपाक लागलो. म्हज्यो कविता आनी लिखाणाचेर सदांच आपले विचार प्रकट करपी दिपाली टिचरीन फोन करून परत एकदां विचारलें, ह्या नात्यांतल्या नांवांच्या प्रस्नाचेर तुजें मत मांडशी? कोंकणींत आई, आवय, माई इतलीं मोहक अशीं उतरां आसून लेगीत आमी 'मम्मी' म्हणपाक भुरग्यांक शिकयतात तेन्ना आमी आमचे

भाशेचेर अन्याय बी करिनात मूं? असो प्रस्न उप्रासता. बापायक बाबा, तातो म्हणपाक आतां कोणाक आवडना शें दिसता. आवयची भयण मावशी, मामाची बायल मामी, काकाची बायल काकी आमचे कडेन इतलीं म्होंवाळ नातीं तशेंच तांकां पाचारपी नांवांय सुरेल आसात. पूण इंग्लेजींत सगल्यांक एकाच मापान मापिल्लेवरी 'आन्टी' हे नांवान उलो मारतात. वेग-वेगळीं नातीं पूण सगल्यांक पाचारपाक नांव एकूच 'आन्टी.' मामी हे उतरांत जितली माया, मोग आनी आपलेपण आसा तें आन्टी ह्या उतरांत खंयच दिसना. तेच परी आवयचो भाव मामा, बापायचो भाव काका, ताच्या उपरांतचो भाव चाचा आनीक तिसरो भाव आसत तर लाली अशीं कांय बेसबरीं नांवां आसतना 'आंकल' हें उश्णें उतर आमी कित्याक घेतात? आमचे लागीं उतरां कितें कमी आसात म्हूण काय ? आमकां इग्लिशीचो चड मोग म्हूण तांचीं उतरां आमी घेतात काय? अशे तरेचे प्रस्न म्हाका सतावंक लागले. कोंकणी उतरांनी जी व्हडवीक आनी आपलेपण आसा तें ह्या इंग्लीशींतल्या उतरांनी पळोवंक मेळना अशें म्हाका जायते जाण सांगतात. म्हाकाय तांचें म्हणणें पटता.

कोंकणी भाशेक म्होंवाळपण जल्मजात लाबिल्लें आसा. तिची व्हडवीक म्हणल्यारूच आमची व्हडवीक देखून आमचे भाशेची मिरास आमीच मिरोवंक जाय आनी आमीच तिका उंचेल्या पांवड्यार व्हरपाची तजवीज भुरग्यांचेर हे भाशेचे बरे संस्कार करून करूंक जाय अशें म्हाका दिसता. तेन्नाच आमची भास ओडलायणी जावंक पावतली आनी तिचें नांव संवसारार पर्जळूंक लागतलें.

नांव आसा म्हूण तर गांव आसा अशें आदले जाणटे म्हणटाले. आमी कसलीय वस्त विकत घेवंक वतात तेन्ना ते वस्तूचें उत्पादन कोणें केलां तें पळयतात. कारखान्याचें नांव पळयतात आनी मागीरूच ती वस्त विकत घेतात.म्हणटकच नांवाक म्हत्व आयलें काय ना. नावाजतो उत्पादक आसत तर ताचो म्हाल चड खपता. ते वस्तूची मागणी वाडत वता. हाचे वयल्यान कोणेंय पारखूं येता, नांव खूब गरजेचें! नांवांतच मनशाक नामना जोडूंक मेळटा. एकाद्या मनशाक ताच्या खऱ्या नांवान उलो मारिनासतना ताका

दुसऱ्या खंयच्याय नांवान उलो मारीत जाल्यार तो कितें जाप दितलो व्हय? शेक्सपियरान म्हणिल्ल्या प्रमाण दुसऱ्या नांवान उलो मारल्यार ताचे गूण बदलचेनात हें जरी खरें तरी तो मनीस आपल्याक खऱ्या नांवानच उलो मार म्हणटलो हीय गजाल तितलीच म्हत्वाची अशें म्हजें मत. इतिहासार नदर मारीत जाल्यार नांवांक लागूनच तर झगडीं-झुजां जाल्लीं आसात म्हणपाचो दाखलो मेळटा. कोणाक आपलें नांव संवसार भर गाजोवंक जाय आशिल्लें तर कोणाक संवसारार आपल्या नांवाचो शेक चलोवपाक जाय आशिल्लो. जण एकलो जैतिवंत जावन आपलें नांव इतिहासांत अमर करपाचें सपन पळयतालो. ताज महलाचीच गजाल घेयात, शाहाजहान मुमताज बेगमेचें नांव अमर जावचें हो हेतू मतींत दवरून तिचे मोगाचे प्रतीक बांदलें. आपलेंय नांव इतिहास जावन उरचें, संवसारार आनीक खंयच हे तरेची वास्तू निर्माण जावंची न्हय अशें चितून शाहाजहानान ताज महल बांदपी कारीगरांचे हात कापिल्ले. नांवां नाशिल्लीं जाल्यार इतिहास घडचो नाशिल्लो, जिणेंत अर्थ उरचो नाशिल्लो. नांवाक लागून सरकार आनी घरदार लेगीत चलता. पूण लोकजीणेची सेवा करून नामना जोडूं या आनी आमच्या नात्यांतलीं नांवां आमचीं घरचींच आसूं दी, भायलीं नांवां आमकां नाका. आमची म्होंवाळ भास, म्होंवाळ नांवां आमी सांबाळून दवरपाचो प्रामाणीक यत्न करुंया. आपले भाशेची व्हडवीक सांबाळून दवरूं या. वेवसायीक भास आनी आमची मांयभास हातूंतलो फरक जाणून घेवंया. आपल्या घरांत मांयभासूच उलयल्यार चड बरी. आमची भास आमकां मोग आनी मोयपास लावंक शकता हाची जाण दवरया.

***

# भारत रत्न डॉ. अबदुल कलाम तरणाट्यांचो प्रेरणा स्रोत!

भारताचो अकरावो राष्ट्रपती जावपाचो मान मेळिल्ले दोतोर कलाम हांचो जल्म 15 ऑक्टोबर 1931 वर्सा एका सादारण घराब्यांत रामेश्वरम ह्या नामनेच्या धार्मीक थळांत जालो. तांच्या बापायचें नांव जैनुलअबिदिन तर आवयचें नांव अशिअम्मा आशिल्लें. तांचें शालेय शिकप केथॉलिक मिशिनरी स्कुलांत जालें. तांकां आपल्या आवय बापाय वरी शिक्षकांचोय खूब मोग आशिल्लो. आवय बापूय आनी आपल्या शिक्षकांनी केल्ल्या संस्कारांनी आपूण व्हड जायत गेलों अशें ते अभिमानान सांगताले. तांचे एक शिक्षक श्री सिवा सुब्रमण्याम हांणी तांकां वयर मळबांत उडपाचें सपन दाखयल्लें जें तांचे 'अग्नी पंख' जावंक पावले. सपन साकार करपाक मनशान जिद्दीन वावर करपाक जाय अशें तांचें म्हणणें आशिल्लें. जैत जोडपाच्या फाटल्यान लागू नाकात, पूण ज्ञानाचे फाटीक लागात. ज्ञानाच्या बळार जैत मेळटा हें सत हांवें अणभवलां, अशें ते तरणाट्यांक सांगताले. आत्मविश्वास मनांत दवरून वावर करात. अपेस जरी मेळ्ळें तरी फाटीं सरऽनासतना यत्न करीत रावले जाल्यार जैत मेळटाच असो संदेश ते दिताले. कसल्याय कामांत अपेस येवप ही यशाचो पयलो पांवडो म्हूण जण एका भारतीयान केल्लो संकल्प तडीक व्हरपाक कश्ट करीत रावचें अशें तांचें म्हणणें आसतालें. तांचें व्याख्यान आयकुपाक तरणाटे उमळशिकेन रावताले. सपनां पळयात आनी तीं साकार करपाक कश्ट करात म्हूण तांणी जीव तोडून सांगचें. नामनेचे लेखक विलियम्स शेक्सपियर एके कडेन बरयता कांय मनीस जल्मा सावन व्हड जाल्ले आसतात, तर कांय जाण व्हडपण आपल्या कर्तृत्वान मेळयतात, तर भोव थोड्या मनशांक व्हडपण वेंगेंत घेता. दोतोर कलामांक वयलीं तिनूय व्हडपणां लागू जातात अशें हांवें म्हणलें जाल्यार अतिताय जावची न्हय. ते सपनाळू आशिल्ले. तांचीं सपनां साकार करपाक तांकां प्रो. विक्रम साराभाई, प्रो. सतीश धवन तशेंच डॉ. ब्रम्हप्रकाश

हांचो मोलादीक पालव तरनाटे पिरायेरूच मेळिल्लो. तांचो सरळ सादो सभाव, सादारण जिणेची रीत पूण मनांत सदांच उंचेले विचार बाळगुपी मनीस जाल्ल्यान तांचे जिणेंत एक वेगळेंपण आशिल्लें. तांकां 2002 वर्सा भारताचे अकरावे राष्ट्रपती जावपाचो मान फावो जालो तो घडये तांच्या ह्या वेगळ्या गुणांक लागूनच अशें म्हाका दिसता. 1960 वर्सा तांणी मद्रास इंस्टिटयूट ऑफ टेक्नॉलॉजींतल्यान इंजिनियरिंगची पदवी मेळयली. ते जाणां आशिल्ले देशाची उदरगत करून देश उंचेल्या पांवड्यार व्हरचें आसत तर भारतीय तरणाट्यांनी शिक्षण घेवप कितलें गरजेचें आनी तें पुराय करता आसतना येतात त्यो आडखळी ना करून मुखार वचत रावचें अशें तांचें मत आशिल्लें. भारतीय नौ सेना खातीर तांणी एक ल्हानशेंच हेलीकॉप्टर तयार करून आपल्या वावराचें मोल सुरवातीकच दाखोवन दिल्लें. 1969 वर्सा जेन्ना ते भारतीय अंतरिक्ष शोध संघटन (इसरोंत) गेले तेन्ना तांणी एसएलव्ही III चेर बेस बरो वावर करून देशी उपग्रह स्थापीत करून नामना जोडली. देशाचे अंतरिक्ष कार्यावळींत, प्रक्षेपण यान आनी बैलिस्टिक क्षेपणास्त्र तयार करपा फाटल्यान तांचो मुखेल वावर आशिल्ल्यान तांकां मिसाइल मेन ऑफ इंडिया ही पदवी फावो जाली. तेच परी 1998 वर्सा पोखरण II परमाणू परीक्षण करपाक तांच्याच फुडारपणा खाला जैत मेळिल्लें. तांणी सुमार वीस वर्सां भारतीय अंतरिक्ष शोध संघटन म्हणल्यार (इसरो) हे संस्थेंत मोलाचो वावर केला. तेच परी संरक्षण संशोधन आनी विकास संस्था (डीआरडिओ)चे ते सुमार धा वर्सां अध्यक्ष आशिल्ले. तांचे अध्यक्षे खाल 'अग्नी' आनी 'पृथ्वी' हीं स्वदेशी क्षेपणास्त्र तयार करपाचो व्हड वावर पुराय केल्लो. तांकां आपलो देश पुराय पणान विकसीत देश जाल्लो पळोवंक जाय आशिल्लो, भारत देश आर्थिक दृश्टींत सक्षम आनी शक्तिशाली देश आसचो अशें सपन तांणी पळयल्लें देखून ते शालेय विद्यार्थ्यांक तशेंच वेग-वेगळे वेवसायीक शिक्षण घेवपी तरणाट्यांक मेळटाले. तांचे लागीं फुडाराची मोख कितें, भुरग्यांचे दृश्टीन ती कशी आसची ते विशीं उलयताले आनी तांकां मार्गदर्शन करताले. ते भारतीय तरणाट्यांक वयर उडपाचें बळगें

दिवपा खातीर वेग-वेगळ्यो देखी दिवन उगत्या दोळ्यांत नवें कितेंय करपाचें सपन दाखयताले. देखून ते तरनाट्यांचे लाडके शिक्षक आनी तेजवंत फुडारी जावंक पाविल्ले. एक सादारण मनीस मनांत आयल्यार कितें करपाक शकता हें ते आपल्या अणभवा वेल्यान सांगताले आनी भुरग्यांक प्रोत्साहीत करताले. ह्या संवसारांत कसलीच गजाल अशक्य ना अशें ते मानताले देखून ते सदांच नव्यो नव्यो गजाली शिकपाक तत्पर आसताले. देश कशे तरेन आत्मनिर्भर जावं येता हाचेर तांचें तरनाट्यां लागीं उलोवप जातालें. नवे नवे प्रयोग करपाचेर ते भर दिताले. विज्ञानाच्या बळाचेर देश बळीश्ट जावं येता असो विस्वास तांकां आशिल्लो. भारताचें भविश्य परजळीत करतलो जाल्यार विज्ञानाचो आदार घेवनूच तें करुं येता हाचो उल्लेख तांचें पुस्तक 'इंडिया 2020 ए विजन फॉर द न्यू मिलिनियम' हातूंत वाचूंक मेळटा. भारत बुद्‌दीमतेचें अप्रतिम बळिश्ट आनी एक विकसीत राष्ट्र जावचें अशें मत तांणी ह्या पुस्तकांत उक्तायलां. देशाची उदरगत करपाक प्रसार माध्यमांनी सकारात्मक विचारसरणी दवरून आपलें काम करपाक जाय, नकारात्मक खबरो कोणाच्याच फायद्याच्यो आसनात पूण विकासाच्यो खबरो मनशांक नवें बळगें दिवपाचो वावर करता देखून प्रसार माध्यमांनी फुडाकार घेतलो जाल्यार देशाचे उदरगतीक लोकांक उत्तेजीत करूंक शकतले असो तांचो खर विश्वास आशिल्लो. दोतोर कलाम एक नामनेचे वैज्ञानीक, प्रशासक, शिक्षक आनी एक व्हड लेखक म्हूण आयज तांकां आमी याद करतात. ते आमचो लोकांचो राष्ट्रपती (पिपुल्स प्रेसिडेंट) जावंक पावले ते वगीच न्हय.

आमचे तरनाटे कितें व्हड करूंक पावनात? तांकां जाय फकत मार्गदर्शन आनी फाटीर शाबासकी जाची ते वाट पळयतात.

***

# श्रीकृष्ण- एक युगपुरुस

श्रावण म्हयन्यांत कृष्ण पक्षातले अश्टमीक मध्यान रातीर रोहिणी नक्षत्रार कृष्ण जल्म जाल्लो. ताचो मामा कंस हाणें आवय देवकी आनी बापूय वासुदेव हांकां बंदखणींत घातिल्लीं कारण देवकीचें लग्न जालें त्याच दिसा आकाशवाणी जाल्ली, देवकीचो आठवो पूत कंसाक मारतलो म्हण! तेन्ना सावन कंस तांकां पिडपाक लागिल्लो. एक-एक भुरगो जसो-जसो जल्माक आयलो तसो-तसो कंसान तांकां मारून उडयले. निमणो कृष्ण जल्मलो तेन्ना वासुदेवान ताका गोकुळांतल्या नंदा आनी यशोदा हांच्या घरा पावयलो अशी कृष्ण जल्माची काणी आमी आयकल्या आनी ती तरणाटे पिळगेन लेगीत आयकपाची अशी आस्त आमी बाळगुपाक जाय. हो दीस कृष्ण जल्म वा जन्माश्टमी म्हूण देशांत तशेंच विदेशांत लेगीत मनयतात .पूण गोकुळ, मथुरा, वृंदावन, द्वारका आनी पुरी हांगा ह्या दिसाचें व्हड म्हत्व आसा. थंय व्हडा उमेदीन आनी भक्तिभावान हो दीस साजरो करतात. तें आमकां वेग-वेगळ्या माध्यमांतल्यान आयकुपाक आनी पळोवपाक मेळटा. भोव ज्ञानी, युगपुरुस, बळिश्ट आनी प्रभावशाली अशें कृष्णाचें व्यक्तित्व आशिल्लें. त्या भायर तो एक कुशळ शासक आशिल्लो. ताणें आपले खातीर बळाचो उपेग केन्नाच केलो ना. ताचो सैमाचेर उपाट मोग! हें विश्व सैमाचें देणें अशें ताणें सदांच सांगचें. विचार करात आनी मुखावयलें पावल घालात अशी ताची शिकवण आशिल्ली. सैमा आड तो केन्नाच गेलो ना. आमची भूंय श्रेश्ठ आनी तिची उत्पत्ती करप हें जण एकल्याचें कर्म अशें ताणें म्हणचें. बरें कर्म करात अशी शिकवण तो दितालो. आनीक एक ताचो नामनेचो संदेश म्हणल्यार 'मनशान आपलें कर्म करीत रावचें फळाची अपेक्षा धरची न्हय. बऱ्या कर्माचें फळ आपसूक बरें मेळटा अशें तो म्हणटालो.

गोकुळांत ताणें केल्ल्यो रासक्रिडा जग प्रसिध्द आसात. ताणें संवसाराक

नितळ मोग करपाक शियकलें. तशेंच घट इश्टागत करपाक शिकयलें. महाबळिश्ट आसून लेगीत सामान्य मनशा मदीं रावपाक ताका आवडटालें. आपल्या सवंगड्यांक वांगडा घेवन गोरवांक चरोवंक गेल्ले कडेन वाटेन येतल्या वतल्या गोपिकेंच्यो मडक्यो तो फोडटालो. तशेंच तांकां तो खेळयतालो जाल्यार राधेचेर उपाट मोग करतालो. तिका तो सखी मानतालो. ताची मुरली आयकुपा खातीर सगलींच आशेतालीं. तश्योच गोकुळांतल्यो गायो आनी म्हशी ताचे मुरलीच्या नादार भरभरून दूद दिताल्यो खंय! तर दुसरे वटेन राधा आनी तिच्यो सखयो देहभान विसरून, हेर कामां सोडून रासलीला करपाक रंगताल्यो.तेन्ना सैम फुलतालें अश्यो जायतो गजाली आमी कृष्ण चरित्र कथामनी वाचल्यात आनी सिनेमानी पळयल्यात.

कृष्णाचो मामा कंस आख्खे मथुरेंतलें धंय आनी दूद लोकां कडल्यान बळजबरीन व्हरतालो तेन्ना कृष्णान ताचो विरोध केल्लो. आनीक एक गजाल अशी, कृष्ण धंय आनी ताक चोरून खातालो म्हण यशोदा मडको वयर बांदताली. तरी आसतना कृष्ण आपल्या सवंगड्यांक घेवन तो मडको फोडून धंय खातालो. ह्याच कारणाक लागून मडक्यांत धंय, ताक आनी म्होंव घालून मडको फोडपाची प्रथा सुरू जाल्या आसत. ह्या दिसा रासलीला खेळपाचीय प्रथा आसा. 'राधाकृष्ण जय राधाकृष्ण' अशें म्होवाळ पद गावन गोपाळ आनी गोपिका जावन ही रासलीला खेळटात. महाराष्ट्रांत विठ्ठल, राजस्थानांत ठाकूर आनी ओडिसांत जगन्नाथ ह्या नांवान खेळ करतात. ही कृष्णाच्या कार्याची पावती अशें म्हणू येता. महाभारतांत सारथी जावन धर्मयुध्द जिखून पांडवांक नितीराष्ट्र निर्माण करपाक ताणें दिल्लो आदार पळयतकच ताच्या कार्याची तोखणाय दिसता.

सुदामा कृष्णाचो भुरगेपणा वयलो इश्ट. दोगूय सांदिपनीच्या आश्रमांत शिकताले. सुदामा एक गरीब गवळी आशिल्ल्यान जेन्ना कृष्णाक मेळपाक आयल्लो तेन्ना सुके फोव घेवन गेल्लो. पूण कृष्णान ते फोव पंचपक्वान्न अशें समजून खाल्लें आनी आपल्या इश्टाक वायट दिसचें ना अशे तरेन ताची मजत

केल्ली. सुदामा कृष्णाची जोडी कशी कोणायची इश्टागत आयज आमी पळयत जाल्यार तांकां पळोवन आपसूक म्हणटात कृष्ण सुदामा कशी जोडी मरे तुमची! जितलो तो सत्याचे वाटेन आशिल्लो तितलोच तो दुश्टांच्या आड आशिल्लो. ताणें कितल्याशाच दुश्टांचो नाश केल्लो आनी समाजांत सूख आनी शांती हाडपाचो यत्न केल्लो.

भगवद गीतेंतलो एक श्लोक 'जेन्ना जेन्ना धर्माचें लुकसाण जाता आनी धर्तरेर अधर्म वाडटा तेन्ना तेन्ना हांव जल्म घेतलों' असो उपदेस कृष्णान अर्जुनाक कुरुक्षेत्रार झुजामळार राविल्लेकडेन दिल्लो. हाचे वयल्यान जण एकल्यान बोध घेवं येता तो म्हणल्यार 'दुश्टांचो नाश आयज ना फाल्यां जाताच'. कृष्ण जल्म वा जन्माश्टमी ही परब भारतीय संस्कृतिची आनी सभ्यतेची देख दिता अशें म्हणूं येता. आयचे पिळगेक आमची परंपरा आनी दायज कळचें. तेच परी तांकां आमच्यो परबो मनोवपा फाटलो हेतू कळचो म्हूण ह्यो परबो आमी मनोवपाची गरज आसा. तशें पळोवपाक गेल्यार भारतीय संस्कृती आनी दायज हाचो बेस बरो मेळ बशिल्लो आसा. आमची खंयचीय परब घेवं येता. ती मनोवपाची एक प्रथा आसा आनीक ती मनयतना खेरीत एक वेगळेपण पळोवंक मेळटा. कांय लोक ह्या दिसा उपास करतात. जन्माश्टम मनोवपाची प्रथा लेगीत वेग-वेगळ्या राज्यांत वेगळी-वेगळी आसा. कृष्ण जल्माच्या दुसरे दिसा दही हंडी म्हणल्यार धंयां मडकी फोडपाची प्रथा आसा. ती चडशी आमकां महाराष्ट्रांत आनी गुजरातांत पळोवंक मेळटाली. पूण फाटलीं कांय वर्सां ही मडकी फोड गोंयांत लेगीत व्हड प्रमाणांत मनोवंक लागल्यात. अशी ही जन्माश्टमी सगल्यांच्या जिवितांत सूख आनी समाधान हाडूं अशी मागणी हांव त्या नंदाल्या पोरा लागीं करतां जाणें आपल्या एका बोटान गोवर्धन पर्वत उबारलो..!

***

# काळखाक दोश दिवचोच कित्याक?

अंट्रान्टीकाक पावसा दिसांनी स म्हयन्यांचे दीस आनी शियां दिसांनी स म्हयन्यांच्यो काळखी राती आसतात अशें आमी शाळेंत आसतना शिकिल्ले. सुर्याच्या संबंधान धर्तरेचो कणो लवंडलेलो आशिल्ले कारणान वेग-वेगळे रुतू बदलतात हेंय आमी जाणांत. बावगल्ल्या वा लवंडलेल्या कण्याची दिका मात केन्नाच बदलना. पूण धर्तरी जेन्ना सुर्या भोंवतणी घुंवता तेन्ना ग्रहांचे वेग-वेगळे पुराय भाग सुर्याच्या उजवाडांत येतात थंय स म्हयन्याचे दीस उरतात जाल्यार दक्षिणेक सुर्याचीं किरणां पडनात जावन थंय स म्हयन्याची काळखी रात उरता. हाका लागून थंय सामान्य मनशांचो राबितो शक्य ना, ते भायर थंय चोंय वशींनी बर्फच बर्फ! थंयचे वनस्पतिंचो शोध लावप कठीण जाता. बर्फ नाशिल्लो जाल्यार बुदवंत मनीस आपली तकली लडोवन कितें ना कितें उपाय सोदून काडपाचोच आनी मनशांची वस्ती उबारपाचोय बी. ना म्हणल्यार शास्त्रज्ञ आपलो पंगड घेवन थंय वतात आनी थंयचे परिस्थितींचो शोध अभ्यास करून परत येतात. भविश्यांत थंय फावो त्यो सुदारणां करूंक हे शास्त्रज्ञ सफळ जायतय बी.

अंट्रान्टीकांत जरी स म्हयन्यांचो दीस आनी स म्हयन्यांची रात आसली तरी उरिल्लो संवसार भर धर्तरेचेर आयज जंय काळोख आसा थंय फाल्यां उजवाड फांकतलोच आनी जंय उजवाड आसा थंय काळखी रात जातलीच हो सैमाचो नेम! तो कोण बदलूंक शकना. मनशांचे जिणेंत लेगीत सूख आनी दुख्खाचो खेळ चलिल्लो आसता. पूण आमी मनशांनी जिद्द आनी चिकाटीन वावरत तर हो जिणेंतलो काळोख पयसावंक शकतात हातूंत दुबाव नासता. दीस आनी रात, वत आनी सावळी, गरमी तशीच ठंडी सैमांतलो हो बदल मनशांक आनी हेर जिवावळीक कितें ना कितें शिकयत आसता. सृश्टींत आशिल्ली दर एक

जिवावळ आपणांक ते-ते परिस्थिंतींत आपणावन घेता. सृश्ट घडोवपी परम ेश्वरान धतरे वयल्या सगल्या जिवांक ती तांक आनी सोशिकसाण दिल्या अशें हांव मानतां आनी तुमकांय ही गजाल पट्टली असो म्हाका विस्वास आसा. व्हांवतें उदक जशें आपली वाट काडीत मुखार वता तशें शें हेर जिवावळ लेगीत आपल्या मार्गावेल्यो आडखळी पयस सारून जीण सफळ करपाचो प्रामाणीक यत्न करतात. हालिंच्या तेंपार केन्ना कोणाचे जिणेंत कसलो बदल जायत तें सांगपाक कठीण जावंक लागलां. काळीं कुपां मळबांत दाटून येतात तेन्ना तीं सुर्याचीं किरणां आडायतात आनी सैमाचेर आपलो शेक चलता असो भास पसरायतात. पूण कांय वेळान तीं कुपां नाच्च जातात. सुर्याचीं किरणां धतरेर फांकता आनी संवसारार हांसो फुलता. मनशाचे जिणेचेंय हेंच गणीत! जो मनीस स्थीर रावन आपले भितर लवचीकपण हाडटा आनी परिस्थिती प्रमाण जिणेंत फावो तो बदल घडोवन हाडटा ताकाच खरो बुदवंत म्हणू येता. अशा जैतीवंत मनशाक ते मागीर खंयचेंय क्षेत्र जावं, जर कोणेंय एका पत्रकारान प्रस्न विचारलो, 'बाबा रे! तुका ही अशक्य आशिल्ली गजाल शक्य कशी जाली?' जाल्यार ताची जाप आसतली आशिल्ली 'हांवें शांतपणान विचार केल्लो म्हण.!' ताणें कितें केल्लें आसत तर सगल्यांत पयलीं ताणें, आपलें अशांत मन शांत केल्लें आसतलें कित्याक तर अशांत मनान आमचे विचार शक्तींत दुबळेंपण येता हें सत जगजाहीर आसा. मन शांत आसत तर प्रभावी विचार मनांत येवन कठिणांतले कठीण प्रस्न सुटावे जावंक लागतात. हें मनोवैज्ञानीक नदरेन लेगीत स्पश्ट जाल्लें आसा. हे धाकाधकिचे जिणेंत जण एकल्याक चिंता ही आसताच पूण जाणें आपल्या मनाचेर ताबो दवरून फाटलो फुडलो विचार करून पावल घालें तर जीण सोबीत जावंक पावतली. दुसरी याद दवरपा सारखी गजाल म्हणल्यार ह्या संवसारांत कांयच अशक्य म्हूण ना. जितलीं चड संकश्टां तितलीच खोल आमची सोशींकसाण आसूंक जाय. जितलो गुपाट काळोख तितलोच प्रखर आमचो आत्मविश्वास तो काळोख पयस करूंक आसूंक जाय. काळखाक दोश दिवचे परस आमी उजवाडाचो दिवो पेटोवन मार्ग सोदपाक

लागले जाल्यार जैत आमचेंच आसतलें अशें मानपी आनी आपले जिणेंत तें तत्व आपणायिल्लो हांवें जायते पळयल्यात. घरांतली जेन्ना लायट वता तेन्ना इनवर्टराक लागून आमच्यो लायटी एका सेकंदा भितर परत पेट्टात. हो जादू कितें आपसूक जाला व्हय? ना न्हय, ती तर मनशाचीच करामत! देखून ह्या संवसारांत आपले पांय घट्ट रोयतलो जाल्यार आमकां गुपाट काळखांतल्यान मार्गक्रमण करचेंच पडटलें. काळोख हो आमचो वांगडी अशें मानून ताचेर जैत कशें जोडटलो हाचो अभ्यास करीत जाल्यार जाप मेळपाक कळाव लागचो ना.

जिणेंची तत्वां कालूय तितींलच मोलादीक आशिल्लीं, आयजूय तीं आसात आनी फाल्यांय तीं आसतलीं. वणटी वयलीं जळमटां आमी पुसून उडयतात आनी वणत नितळ करतात तेच परी नितीमुल्यां जण एकल्या भितर आसतात. ताचे वयलीं जळमटां फाफडून काळखांत आशिल्लीं तत्वां उजवाडाक हाडपाचें काम आमी करूंक जाय. तेन्नाच आयच्या तरनाट्यां मदीं हीं तत्वां आमी बरे तरेन पावोवंक शकतले. एक सक्षम आनी सकारात्मक उर्जेंत भरिल्लो समाज घडोवंक तरनाट्यांनो तुमचो पालव मोलादीक थारतलो. आपूण बरे संस्कार आपणायतलों आनी आपल्या वांगड्यांक लेगीत उर्बे भरीत येवकार दिवन तांकांय सांगाताक घेतलों असो प्रण तुमी करून ते प्रमाणे आपली उजू चलणूक दवरीत जाल्यार फुडार फळादीक जावंक पावतलो. आयजूच विचार करात आनी आपलो मार्ग थारयात.

***

मनोज कवी. ताचो 'मनोभाव' हो काव्यसंग्रह ताची गवाय दिता. तेच वांगडा मनोज 'मन' हे मनशांतले संकल्पनेकूय जपता आनी आपल्या मना वांगडाच तांच्याय मनाचो मान राखून तें मन हळवें दवरपा वांगडाच सशक्त जावंचें ह्या हावेसान वावुरता. देखून ताच्या काव्यसंग्रहाचें नांव 'मनोभाव' आनी आतां ताचो हो लेख संग्रह 'मनकळे फुलतना'. मनोज एक हाडाचो शिक्षक. पूण तो फकत नोकरी करिना जाल्यार एका आदर्श समाजाचीं सपनां मनांत बाळगून आदर्श नागरीक घडयता. विद्यादान करून भुरग्यांच्या मनाक आकार दितनाच समाजांतल्या हेर घटकांक आपल्या लेखांतल्यान दिका दाखयता. एका आदर्श समाजाच्या हावेसान तांच्या मनांत आपल्या लेखांतल्यान आदर्शवाद जागयता..शिक्षकान फकत दुडवां पासत नोकरी करची न्हय तर आदर्श समाज घडोवपाची जी जापसालकी समाजान दिल्ली आसा तिका मना-काळजांतल्यान पाळो दिवंक जाय म्हणपाचो साक्षात्कार ह्या संग्रहांतल्या ताच्या ह्या सव्वीसूय लेखांतल्यान घडटा...

-दिलीप बोरकार



बिम्ब
प्रकाशन
Price: ₹200/-


ISBN-978-93-85654-50-3
9 789385 654503